# उद्रेक

विजेश सावंत





# अदृश्ट

(दोन अंकी कोंकणी नाटक)

विजेश सावंत

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर
आर्थीक पालव येवजणेखाला प्रकाशीत केलां.

# अदृश्ट

कोकणी दोन अंकी नाटक

उजवाडावपी
श्री साई माऊली प्रकाशन
मळे - साकोर्डा गोंय

अक्षर जुळोवणी
क्रिएटिव्ह कॉम्प्यूटर सेल, फोंडे - गोंय
(शर्मिला नाईक)

कवर
कपील म्हार्दोळकर

पयली आवृती
२००७

प्रयोगाखातीर पत्तो
विजेश जयवंत सावंत
मळे साकोर्डा - गोंय.
फोन नं.: २६११४४०
मो.नं.: ९४२३८१२९५५

छापणावळ
सह्याद्री ऑफसेट
खोर्ली - तिसवाडी
गोंय.

मोल
रू. 30/-

## प्रस्तावना

# अदृश्टाचो साक्षात्कार

'अदृश्ट' हें विजेश सावंत हांचे दोन अंकी कोंकणी नाटक उजवाडाक येता. कोंकणी नाटक हें आयच्या काळार सामकें प्रभावी माध्यम म्हण कोंकणी जनमानसांत वावरुंक लागलां ताका तशीं कारणांय आसात. गोंयच्या काले-जात्रांनी, फेस्ता - उत्सवांनी कोंकणी नाटकाक आयज बरीच मागणी आसा. ही मागणी कांयश्या प्रमाणात पुराय करपाचें कार्य गोंयातल्यो कांय नाट्य संस्था करतात. तशेंच गांवातले लोकूय कोंकणी रंगमाचयेची सेवा करताना दिसतात. कोंकणी नाटकाक नाट्य सर्तीनी एक उंचेलो पांवडो मेळोवन दिला. कला साहित्य आनी संस्कृताय तशेंच नाट्य तंत्राचो अभ्यास केल्लो रंगकर्मी कोंकणी रंगमाचयेक उबारी दिता. तें पळोवन मना काळजासावन खोस भोगता. रंगकर्मीनी कोंकणी रंगमाचयेक दिलो गिरेस्तकायेतल्यान समस्त रंगकर्मीक कोंकणी रंगमाचयेची सेवा करपाची उर्बा मेळ्ळ्या. गोंयच्या खांची कोनश्यानी जावपी कोंकणी नाटकांक लागून कोंकणी नाटकांची आनी नाटककारांची जापसाल. दारकी वाडल्या. उत्सवी रंगमाचयेची गरज भागोवपी नाटकां कोंकणीत येवपाक लागल्यांत. पूण लोकांची जितली मागणी आसा तितली पुरोवपाचें बळगें उणे पड्टा. कोंकणी लेखंकाक हाची जाणविकाय आसा हे दिकेतल्यान कांय प्रयत्न जाल्ले दिश्टी पडटात.

गोवा कोंकणी अकादेमी, कला अकादेमी, संकल्प थिएटर्स, कुडचडें आदी संस्थानी कोंकणी नाटचाच्या मळार केल्लो वावर कोंकणी रंगमाचयेक बरोच फायद्याचो थारला. गांवगिऱ्या वाठारांनी हो वावर चडावत प्रमाणांत पावपाक लागला. गांवगिऱ्या वाठारांतले रंगमाचयेची गरज भागोवपी कांय नवोदित लेखक कोंकणीच्या मळार वावर करुंक लागल्यात. मागणी तशी पुरवण अश्या तत्वाचेर हे प्रयोग चल्ल्यात.

विजेश सावंत हांचे 'अदृश्ट' हें नाटक अशेच गरजेंतल्यान आयिल्लें

आसा. 'अदृश्ट' हें तांचे पयलेंच नाटक. समकालीन हौशी मराठी रंगभूमीचे धर्तेर वचपी असें. मेजकींच पात्रां आनी घडणुकानी सादें सरळ कथानक गुंथिल्यें आसा. सर्वसामान्य रसिकांची भूक भागोवपी ही नाट्यकृती आसा. सादे सरळ संवाद भार्शेतल्यान कथानक मुखार वता.

आपा हें ह्या नाटकातल्या आदर्शवादी, मानवतावादी पांत्रांच्या जिणेबोंवतणी हें कथानक घुवता. आपाच्या जिणेंत येवपी अरिश्टां आनी मागीर नाटकाचो सुखी शेवट जाल्लो दिश्टी पड्टा. हौशी रंगमाचयेक जाय तशी आनी तांची सद्याची गरज भागता तशी पात्र रचना विजेशान आपल्या नाटकांत केल्या. ताचो हो पयलोच प्रयोग. म्हत्वाचें म्हळ्यार नाटक सादर केल्या उपरांत कसाक लागल्या उपरांत लेखक ते उजवाडाक हाडटा. विजेश सावंताक बरो फुडार येवजितां.

थळ : वजरी - साखळी

ता. : १३.०२.२००७

प्रा. प्रकाश रमाकांत वजरीकर

# मनोगत

आज म्हाका खुब खोशी जाता, हाचे कारण म्हळ्यार म्हजें पयले नाटकाचे पुस्तक उजवाडाक येता. खरें म्हळ्यार म्हजी बरोवपाची सुरुवात बरीच पयली. कथा, कविता बरोवन जाल्ली, पूण म्हजे हे लिखाण म्हजाच वाचनात येवन फायलीत बंद जातालें कारण म्हजो चुको दाखोवपी, म्हाका मार्गदर्शन दिवपी, म्हज्या वाठारात कोण नासलो. अशा वेळार म्हाका म्हज्या सर्गेस्त काकाची याद येताली, तांचीच प्रेरणा घेवन हांवे बरोवपाक सुरवात केल्ली. एक दीस म्हज्या एका इश्टांन म्हाका सांगलें "तू बरयत राव, तुज्यो चुको तुकाच कळून तुजे लिखाण बरें जातलें," खऱ्या अर्थान त्याच वेळार म्हाका म्हजी वाट ताणे दाखयली. हांवे नाटक बरोवपाक घेतलें. हाचे कारण म्हळ्यार आमका जाय तशी नाटकां सोदून मेळनासलीं, म्हणून हांवे स्वतः बरोवपाचो यत्न केलो. कथेची निवड करताना फक्त फार्सिकल न दवरता, पळोवप्याक कोणाच्या तरी जिवितान अशे घडूं शकता, अशे दाखोवपाचो यत्न केलो. हातूत हांव कितलो यशस्वी जालो हे वाचपी आनी पळोवपी थारायतलें. पयलो चवर येवजणेखाला गोंय कोकणी आकादेमीन म्हजे नाटक उजवाडाक हाडपाक म्हाका आर्थीक पालोव दिल्याबद्दल हांव तांचे आभार मानता.

म्हजे सगले इश्ट, म्हज्या घरचे, सगले हांच्या मदतीन म्हाका आयचो हो खोशेचो दिस पळोंग मेळता. तांचेय हांव आभार मानता, हांव म्हजे नाटक म्हजे काका सर्गेस्त भानुदास गो. सावंत हांका समर्पित करता.

विजेश जयवंत सावंत

या नाटकाचो पयलो प्रयोग श्री गौरीशंकर नाट्य मंडळाच्या वतीन वर्सुकी उत्सवानिमित्तान मळे, साकोर्डा हांगा तारीख २९-०४-२००६ या दिसा रातच्या १०.३० वराचेर सादर केल्लो.

## या प्रयोगांत वाटो घेवपी पयल्या प्रयोगाचे मानकरी

| | |
|---|---|
| राजू | संजय नाईक |
| मनोहर | शैलेश नाईक |
| चंद्रकांत | प्रदिप नाईक |
| विनय | विनय नाईक |
| रंग्या | नरेश नाईक |
| आपा | विजेश सावंत |
| माया | सौ. ज्योती नाईक |
| रंग्याचे साथीदार | आशीष नाईक, कृष्णा नाईक |

बसोवपी : संजय नाईक

पार्श्वसंगीत : परेश नाईक

आवाज आनी उजवाड : नरेंद्र नाडकर्णी

नेपथ्य : दिगंबर कलंगुटकर



: प्रयोगाखातीर पत्तो :

**विजेश जयवंत सावंत**

मळे, साकोर्डा - गोंय.

फोन नं.: २६११४४०

मो.नं.: ९४२३८१२९५५

# अंद्रुश्ट

## अंक पयलो

### देखाव पयलो

।। श्री ।।

(माचयेर उजवाड जाता. एका मध्यम वर्गीय पोरण्या वाड्याभशेन घर, दावे वटेतल्यान कोनशाचेर भितर सरपाचे दार. उजवेवटेन एक बेडरुम आसा. ताचे कुशीन माळयेर वचपाची सोपणा आसा. दावे वटेन रांदची कूड आसा. हें आपा म्हणजे माधवरावाले घर. या घरान माधवराव, आनी ताचो पुत राजू रावता. राजू एका अपघातान सापडोन ताची याद गेल्या आनी तो ल्हान भुरग्याबाशेन वागता तो माळयेर आसा. मोठ्या मोठ्यान आपाक उलो मारता. राजूची पिराय २२ वर्सां आसात).

राजू : आपा, आपा रे. यो बेगीन. दार उगड रे म्हाकां भायर काड. म्हाकां हांगा भंय दिसता रे. हांगा सोरोप आसा. बेगीन यो रे. आपा यो रे. म्हाका मातसो भायर काड पळोया.

(आपा रांदच्या कुडितल्यान येता).

आपा : आरे किदें जालां? किद्याक बोवाळ करता. तुका सांगलेले मरे हांवे. वोगी बस म्हूण. आता आनी किदें जाले?

राजू : आपा हांगा यो, दार उगड रे म्हाका भंय दिसता. हांगा सोरोप आसा.

आपा : आँ ! सोरोप खऱ्यानीच काय किदें ? आरे आयलो, आयलो.

(आपा माळयेर वता दार उगडता. राजू धावत भायर येता.)

राजू : एकट्या मनशाक फटयलो फटयलो (अशे म्हणत नाचता).

आपा : तुका सांगलेले मरे हांवे, वोग्गी बस म्हूण. हांव घरात काम करता ते कळना. किद्याक असो त्रास दिता म्हाकां?

राजू : मागीर तू म्हाका एकट्याक किद्याक बंद करुन दवरता तर?

आपा : आरे मागीर किदें करु हांव? तुज्याबरोबर रावूं काय तुज्या पोटाचे पळोव. ते करीना जाल्यार भुक लागतगीर तू बोवळ करतलो.

राजू : आपा म्हाकां तूं बाकीच्या भुरग्यांबरोबर किद्याक वचूंक दिना?

आपा : आरे तू आता ल्हान आसा, तेच्यावांगडा खेळपाक?

राजू : मागीर तू यो मरे म्हाज्या वांगडा खेळपाक. चल रे आपा आमी क्रिकेट खेळुया. तू बॉल घाल हांव बॅट घेता.

आपा : आरे आरे, अशें किदें करता. शाणो मरे तूं म्हाका असो त्रास दिव नाका रे बाबा.

राजू : बाबा हांव तुजो बाबा, जाल्यार तू म्हजो कोण तर?

आपा : अरे हांव तुजो आपा न्ही. चल, मातसो भितर वच पळोया. हांव तूजेखातीर चपाती आनी भाजी घेवन येतां.

राजू : हांव वचचो ना. तू म्हाका दिसभर बंदखणीत किद्याक दवरता तर?

आपा : तुकां ते बंदखणीत दवरुक म्हाका तरी खंय बरे दिसता. पूण किदें करुं हांव. तुज्या ह्या अशा वागण्यांक लागून आमगेर कोणूच येना. ते तीघजाण ह्या रुमान भाड्याक रावताले तेय गेले सोडून. ते भाडें दिताले ताचेर आमचे घर चलतालें. आता कशे जातलें आमचें?

राजू : घर चलतालें म्हणता तूं ते आनी कशे? आपा, हांव इतके दीस पळयता आमचे घर हांगाच आसा, मात लेगीत हालुंक ना.

आपा : आरे तशे न्ही रे. घर चलताले म्हळयार ते पैशे दितालें ताचे हांव आमका तांदूळ, गंव, भाजी, तुका कपडे सगले हाडटालो. आता खंयचे हाडूं?

राजू : ये आपा, हांव वचू रे कामाक?

आपा : तुजो असो हो अवतार पळयत जाल्यार, कोण तुकां काम दितलो?

राजू : ना जाल्यार तू तरी वच मरे कामाक. हरशी म्हणो तू किदें करता? घराकडेन बसून बसून आसता.

आपा : हांव वचनाशिल्लों? आनी अजून सुध्दा वतलो आशिल्लो. पूण तुका एकटो सोडून खंय गेलो जाल्यार रोखडेच तेचे मनीस पावतले हांगा. तो पाडपडील्लो रंग्या सामको वाट पळयत बसता. हांव खंय भायर सरता काय पळयता. त्या दिसा मातसो बाजारात गेलो जाल्यार रोखडेच तेजे मनीस पावले हांगा. तरी बरें तो भाऊ आयलो धावून देवाभशेन ना जाल्यार किदें पळयतलो आसलो हांव?

(आपाचे उलोवप चालू आसतना राजू भियेता आनी आपाक घट वेंग मारता आनी रडटा).

राजू : आपा, आपा म्हाकां एकलो सोडून वचून नाका रे. म्हाकां ते मारता. म्हाकां तेजो खूप भंय दिसता. हांव तुजेकडे कांयच मागचोना. म्हांका भूक लागल्यार लेगीत हांव वोग्गी रावतलो, हांव वोग्गी बसतलो, तूका मातूय त्रास दिवचोना. पूण तूं म्हांका एकटो सोडून वचूनाका.

आपा : ना म्हंज्या पुता तुकां एकलो सोडून खंयच वचचोना हांव तू मात्तुय भियो नाका. हो तुजो आपा आसासर तुकां कांयच उणे पडूंक दिवचोना, तुकां कोणाकूच हात लावपाक दिवचोना. ह्या जिवांत जीव आससर त्या पाडपडील्ल्या रंग्याक ताची सपनां साकार करुंक दिवचोना.

राजू : आपा म्हाका तांचो खूब भंय दिसता राक्षस कशे म्हांका पळोन हांसतात.

आपा : तू कांयच भिऊ नाका म्हज्या राज्या. आमचे आता देवूच रक्षण करतलो. आं! आनी हे पळय तो भाऊ पसरकार सांगतालो, फाल्या दोग जाण आमगेर भाड्यान रावपाक धाडटा म्हूण. काल ताच्या पसऱ्यार येवन चवकशी करतालो खंय. ताणें आमचे नांव सांगले. देवा पाव, तेंका रूम पसंत पडल्यार पुरो.

राजू : आपा कोण आसतले रे ते?

आपा : तें आतां म्हाका तरी खंय खबर? येतकीर कळटले. कोणय आसु मनाचे बरे आसल्यार पुरो.

राजू : आपा, आपा ते म्हंज्या वांगडा खेळटले, म्हज्या वांगडा उलयतले तरी मरे? ते पयलीं रावताले ते म्हंज्या वांगडा उलयसुध्दा नासले, म्हणून हांव तांका भेसणायतालो म्हांका भियोन पळोन गेले ते.

आपा : फाल्या आमगेर येतले तांका असो त्रास करूं नाका आं. आरे ह्या घरात कोणूय रावपाक आयले जाल्यार म्हांकाय मातसो आदार मेळटा. म्हाका मात्सो धीर येता. आनी मुखेल म्हळयार ते जे किदें दिता ताचेर आमी आमची दोगायचीय पोटां भरपाची. ना जाल्यार आमका कोण हाडून दितलो पयशे.

राजू : आपा, आपा हांव हाडून दितलो तुका पयशे. हांव मरे व्हडलो जातलो आनी काम करुन तुकां पयशे हाडून दितलो.

आपा : इतली वर्सां हीच सपना काळजांत दवरुन जगतालो हांव. तूजे विशयी खूप सपना पळयल्ली तूजे आईन आनी हांवे. तुजी आई सदाच सांगताली तुकां खूप शिकोवया, खूब व्हडलो करुया, पडता ते कश्ट घेवया, पूण पूताक खूब शिकोवया. तो शिकोन शिरवीशेक लागतलो. म्हातारपणांत आमका सामाळतलो. पूण आमची सपना सपनाच उरली. तुजी आई आमका अर्दे वाटेर सोडून ह्या भरलेल्या संवसारातल्यान गेली.

राजू : आपा, आई खंय गेली रे आमकां सोडून? तू सांग तिका हांव तिका कांयच त्रास दिवचोना, फकत एकदाच येवन पळय म्हण, तिजो राजू कितलो व्हडलो जालो तो. किद्याक येना रे आपा ती? म्हाका तिजी खूब याद येता.

आपा : तुजी आई आता हांगा केन्नाच येवची ना. तिका देवान आपोवन व्हेली, केन्नाच परत न येवपा खातीर.

राजू : आपा, हांव वतलो देवाकडेन आनी आईक मागतलो. देव म्हजे आयकतलो आनी आईक परत धाडटलो.

आपा : आतां आनी खंयची येतली. त्या मेल्या रंग्यान गाडी घालून कायमची आमचेकडल्यान पैस पावयली तिका. त्या मेल्याक आमचे हें घर, आमचो जागो जाय खय हॉटेल बांदपाक आनी तो दिना म्हणू ताणे तिका मारली, तुका असो केलो. या मेल्याची तान भागोवपाक हांव म्हजा जाणट्यांचे हें घर, ही जागा, ह्या घरातल्यो तांच्यो यादी कशो दिव ताका?

राजू : आपा, ते जर हांगा आयले जाल्यार आमी तांका धावणोन घालुया तू भियो नाका, हांव आसा न्ही रे तुजे वांगडा.

आपा : तू आसा म्हूण हाव जगता, ना जाल्यार कोण आसा म्हजो ह्या संवसारांत.

राजू : आपा हांव तुका आतां केन्नाच त्रास दिवचोना.

आपा : बरें, चल तर, हांव तुका चपाती घेवन येता. तुका लागून आयज तुजे आवडीची भाजी केल्या. शाणो भुरगो कसो खातलो मरे?

राजू : आपा हांव आतां भुरगो ना. हांव व्हडलो जालो तुज्या परस व्हडलो.

आपा : हय म्हज्या पुता. खुब व्हडलो जा आता मस्ती करप ना. हांगा बस हांव रोखडोच चपाती आनी भाजी घेवन येता खातलो मरे?

राजू : खातलो म्हूण किदें विचारता. आपा, सगळी सोपयतलो.

आपा : राव तर, रोखडोच घेवन येता. (आपा भितर वता. राजू बसता मदीच उठता आपाक पळयता, परत येता आनी लिपता).

आपा : (आपा येता) आरे खंय गेलो काय हो! आत्ता हांगा आसलो.

राजू : आपा म्हाका सोदुन काड.

आपा : आरे खंय लिपून बसला यो पळोया भायर. पळय आं तूं येना जाल्यार हांव हुंदराक दितलो दिता आं. आता एक ल्हानसो हुंदीर येतलो आनी चपाती घेवन वतलो.

(आपा बसता हात फाटी घेता राजू हळू येवन चपाती खाता)

राजू : आपा हुंदरान चपाती व्हेली.

आपा : आरे खऱ्यानीच मरे व्हेली, म्हाका कळ्ळेंच ना.

राजू : आपा हांवेन खाल्ली ती, हुंदरान न्ही.

आपा : आरे, हय मरे तर हांव समजलो हुंदरान म्हणून, घे आनी एक घे.

राजू : नाका रे आपा म्हाका. सदा सदा एकच भाजी करता तू.

आपा : आरे किदें करूं हांव? म्हाका कळटा तें करता. फाल्या दुसरे किदेंय करता आयजूच खा नाका म्हणून कशे जातले. तू त्या रंग्याच्या मनशाक कसो मारतलो? घे एकूच घे.

राजू : नाका रे आपा म्हाका.

आपा : शाणो म्हजो तो हो पळय आं हुंदीर येयलो सो दिसता.

(राजू हळूच येवन खाता).

राजू : आपा, आता एक घास तू खा मरे.

आपा : आरे तुवे खाल्ले म्हणजे म्हाका पावता.

राजू : हांवे खाल्ले जाल्यार तुका पावता, जाल्यार तुवें खाल्यार म्हाका पावतले न्ही म्हूण खा. (राजू आपाक भरयता).

आपा : आरे पुरो पुरो.

राजू : पुरो किद्याक? तुका व्हडलो जावनाका तर? तू खायना जाल्यार ल्हान उरतलो आनी हांव व्हडलो जातलो.

आपा : जा बाबा खूब व्हडलो जा. (आपाच्या दोळ्यांत दुकां येता).

राजू : आपा तूं किद्याक रडटा? तू रडूं नाका, तूं रडल्यार म्हाकाय रडपाक येता.

आपा : ना रे म्हजा पुता, हांव रडना हांवे रडपाचे त्याच दिसा सोडून दिला.

राजू : खंयच्या दिसा रे आपा?

आपा : त्या दिसा हांव कामार आसलो अचानक कोणेतरी सांगले तुमका

अपघात जाला म्हूण, हांव धावत सुटलो, हॉस्पीटलांत पावलो त्या वेळार तुझी आई निमणे वाटेर आसली, म्हजो हात हातात घेवन म्हणपाक लागली, रडो नाका मन घट करात म्हज्या फाटल्यान राजूक सांबाळा अशे म्हणून तिणे ह्या जगाचो निरोप घेतलो.

राजू : आपा, आई खंय गेली रे? (राजू रडता).

आपा : रडू नाका आता आमी दोगायनी एकमेकांक सांबाळपाचे. आमचो आता कोण ना ह्या संवसारान.

(देखाव पयलो सोपता काळोख जाता)

(उजवाड जाता देखाव दुसरो सुरु सकाळची वेळ)

(दीस दुसरो, आपा येता सावरा सावर करता)

आपा : आजून राजू कसो उठू ना? सदांच सकाळी फुडे उठ्ठालो. आज अशे किदें जालें. आयज रुम पळोपाक ते दोगजाण येवपाचे आसा. ते येवच्या पयलीं हाजी सगळी कामा करून हाका रुमान दवरपाक जाय नाजाल्यार हाका पळोन ते परते बी वचत. म्हज्या फाटल्यांन हेजे कशे जातलें कांयच कळना. खरें म्हळयार अशा वेळार ताजी आई ताज्या फुड्यान जाय आसली. पूण हो अदृश्टान किदें मागून आयला, तें देवूच जाणा.

(राजू आळस काडीत डोळे पुशीत येता).

राजू : आपा, तू कोणाकडे उलयता?

आपा : हांव आनी कोणाकडे उलयतलो? एकटोच बडबडटालो म्हज्या फाटल्यान तुजें कशे जातलें हाजो विचार करतालो.

राजू : तुज्या फाटल्यान म्हजे कशे जातले हाजो विचार करता तू?

आपा : हय रे म्हज्या पुता. म्हज्या फाटल्यान तुका कोण सांबाळटलो?

राजू : तशे जाल्यार तू आता विचार करपाचे सोडून दी.

आपा : विचार करपाचे सोडून दी म्हणटा?

राजू : आपा आयच्यान हांव तुज्या फुडेंच रावतलो. हो पळय, असो. म्हणजे तुजो प्रस्न मीट्टलो (अशे म्हणून आपाच्या फुडे उबो रावता).

आपा : तशें न्ही रे म्हज्या पुता.

राजू : तशें न्ही जाल्यार कशें रे आपा?

आपा : आरे प्रत्येकाक एक ना एक दिस तेजे आपोवणे येता आनी मागीर ताका सगळे हांगाच सोडून वचचे पडटा. हो सृश्टीचो नियम आसा. तशेंच एक दिस म्हाकाय आपोवणे येतलें. त्या दिसा वचचें पडतलें मागीर तुजें कशें जातलें?

राजू : आपा तू खऱ्यानीच म्हाका एकलो सोडून वतलो? नाका रे आपा

अशें उलोवनाका. हांव कसलोच त्रास करचोना, हांव तुजें सांगलेले आयकतलो. पूण तू म्हाका सोडून वचपाच्यो गजाली करू नाका.

आपा : सांगलेले आयकतलो, शाणो जातलो मरे? चल तर वच आनी तोंड धू च्या करुन दवरल्या ती घे.

राजू : आपा, तूच धु मरे म्हजे तोंड मातशे.

आपा : आत्ता तुवे किदे सांगलेले, हांव सांगता ते आयकतलो म्हणोन मरे! आता शाणो कसो वच घरान आनी तोंड धू आनी मेजार च्या दवरला ती घे हांव रोखडोच येता.

राजू : आपा पयली च्या घेवन मागीर तोंड धुल्यार जायना रे?

आपा : आरे, पयली तोंड धुवप मागीर च्या घेवप. चल आता. (राजू वता. आपा साफ सफाई करता. भितरल्यान आवाज जाता).

आपा : आरे किदें वडयले?

राजू : काय ना आपा म्हजी चड्डी पडली.

आपा : चड्डी पडल्यार येदो आवाज जाता?

राजू : त्या चड्डेन हाव आसा न्ही रे.

आपा : हाका एकलो कसोच सोडपाचो ना (आपा भितर वता, काय वेळान दोगूय भायर येता.)

राजू : आपा नाका रे म्हाका च्या.

आपा : आरे, अशे नाका म्हणोन कशें जातलें? इल्ली उरल्या घे.

राजू : आपा, तू म्हाका कॅसेट लावन दिता म्हण सांगतालो न्ही काल? आता दी मरे लावन.

आपा : तू च्या सोपयतलो जाल्यार दिता.

राजू : दी, पीता हांव पूण तू लाय मरे.

आपा : लायता पूण चड वेळ हांगा रावू नाका ते दोगजाण रुम पळोपाक येतले. ते येयले की तू तुज्या रुमात वचपाचो कळ्ळे.

राजू : कळ्ळे. पूण तू लाय कॅसेट.

आपा : लायतां तू आयकत बस हांव मातसो घरान आवरून घेता. आनी हे पळय दारान कोणी येयत जाल्यार म्हाका उलो मार. तू दार उघडूक वचू नाका कळ्ळे मरे.

राजू : हय आपा!

(आपा कॅसेट लावन वता, राजू बसता. एक पद सोपता दुसरे लागता दुसरे लागपाक टायम वता राजू उठोन टेपी म्हऱ्यान वता. काय वेळान दुसरे पद लागता, खास करुन ल्हान भुरग्याचे. राजू ताजेर डान्स करता काय वेळान दारार टकटक जाता. राजू नाचत नाचत दाराकडे वता दार उगडता. इतल्यान राजूक धुकलून उडयत रंग्या आनी ताजे दोन साथीदार येता. राजू तांकां पळोन भियेता. ते राजूक मारता. राजू आपाक उलो मारता. कँसेटीचो आवाज मोठो आसा. राजूचो आवाज आपाकडे पावना, ते राजूक मारता राजू आपाक उलो मारता.)

रंग्या : ये आवट्या, खंय आसा तुजो तो म्हातारो? आसा तरी काय मेलो रे? मेलो जाल्यार बरें जालें. आमचे काम सोपे जातलें.

राजू : ये, तूं म्हज्या आपाक कांय म्हुणो नाका सांगता पयली.

रंग्या : आरे वा! बरोच उडता मरे हो. त्या दिसा तू वाचलो नाजाल्यार तुजे आवय बरोबर तूंय वतलो आसलो, गेल्लो जाल्यार बरें जावपाचे.

राजू : म्हजे आईक तुवें मारली, तुका हांव सोडचोना आता. (मारपाक वता).

रंग्या : किदें करतलो, मारतलो आमकां? यो मार यो, येदोसो पोर आमका शाणपणा शिकयता. तूजे आवयक जशी पावयल्या तशे तुका आनी तुजा बापायक दोगांयकू पावयता आता. खंयच्या बिळान लिपून बसला तो, आफय ताका, भायर, ये धरा रे ताका, आयज सोपया ताका. (ते धरता, रंग्या सुरो काडटा, राजू आपाक उलो मारता).

राजू : आपा, यो रे आपा, यो रे भायर, आपा.

आपा : (धावत येता) रंग्या, सोड ताका (रंग्याक धुकलता राजूक धरता आणी माळयेर धाडटा). चल राजू तू  माळयेर वच आनी दार बंद करुन घे.

राजू : ना आपा हांव वचचो ना, तुका ते मारतले.

आपा : तू म्हजे चितू नाका, तू वच, म्हजी शप्पत आसा तुका.

राजू : नाका आपा तुका ते मारतले.

आपा : हांवे सांगलेले आयक, चल वच. (तो रडत रडत वता). आरे किद्याक तुमी आमच्या फाटीक लागल्या, किद्याक त्या निश्पाप भुरग्याक मारता, किदें केला ताणे तुमचें? तुमका मारपाचें आसा जाल्यार म्हाका मारून वडयात. पूण म्हज्या पुताक हात लावनाका.

रंग्या : आपा, म्हाका खबर आसा तुजो जीव तुज्या पुताचेर आसा. ताका जर किदेंय जालें जाल्यार तूंय सोपतोलो तेका लागून तुका सांगता बरें भाशेन आमचे आयक, नाजाल्यार तुज्या पुताक तुज्या दोळ्यामुकार मारतलो.

आपा : तुका मारपाचे आसा जाल्यार म्हाका मार तेका काय करू नाका.

रंग्या : बाकी आपा, तुज्या ह्या घराचेर आनी ह्या जाग्याचेर हांव फिदा जालो आनी म्हाका जी गोष्ट आवडता ती खंयच्याय किमतीन घेता हांव.

आपा : रंगा, तू म्हज्याच फाटीक किद्याक लागला? आमच्या गावात अशे जायते जागे, घरा आसा तीं घे. म्हजे घरकांनीक मारुन म्हज्या पुताक असो करुन तुका कांयच दिसलेना, तुका मातूय हाय जालेना. किद्याक तू असो म्हज्या फाटीक लागला?

रंग्या : तू म्हजे मागणे मान्य कर. तुजो जागो हे घर म्हज्या नावांर कर. हांव तुजी फाट सोडटा. आरे, तुका खबर ना ह्या तुज्या जाग्यार हॉटॅल उबे रावतले. तुज्या वाट्याक किदें येता ते घे आनी चलूंग लाग हांगासरल्यान. तसो हांव तुका मागता ते पैशे दिवपाक तयार आसा ते घे आनी  शहरात एक बरोसो  फ्लॅट घे आनी राव. ह्या

पोरण्या घरात आसा किदें?

आपा : आरे किदें आसा म्हणटा? ह्या घरान म्हजे भुरगेपण शेणलां. म्हज्या जाणट्याच्या कितल्याशाच पिळग्याच्यो यादी आसा म्हजे घरकांनीची याद आसा, म्हज्या सपनाचो चुराडो करुन हांव हे तुका दिव ना हांव खंयच्याय मोलाक दिवचोना.

रंग्या : आरे किद्याक मरणाचेर उठला? तुज्या पुताचो विचार कर. कितके दिस म्हज्या चपक्यातल्यान सोडयतलो ताका? ताका आमी मारलो जाल्यार तुका मारचे पयलीच तूं मरतलो. वतना हे घर, हो जागो घेवन वतलो तेजापरस ते आमका दी. आमी तुका कांयच करचेना.

आपा : हांव घेवन वचू ना जाल्यार किदेंय करुते तुका नाका म्हज्या जिवान जीव आससर तुज्या हातीक हांव कांयच लागुक दिवचोना. जर म्हाका किदेंय जाले जाल्यार ही जागा, हें घर हांव अनाथ आश्रमाक दान करतलो.

रंग्या : या जगात उरल्यार तूं दान करतलो मरे? म्हाका तुजी सामकी काकूट येता म्हूण इतको वेळ तू जगलो पूण किदें करूं, तुजी ही सुवात सोडली जाल्यार म्हाका लाखानी रुपयाचे लुकसान जातलें आणी ते लुकसाण म्हाका करपाचे ना.

आपा : आरे तुमी आनी किदें करतलें पैशांक लागोन तुमी आवय बापायक लेगीत विकपाचे रावचेनात.

रंग्या : आपा......... पुरो कर तुजी बडबड आतां आनी बरे भशेन आमी सांगता तसो वाग, नाजाल्यार तुमका दोगांकूय पावयता वयर.

आपा : हांवे तुका जायत्या फावटी सांगला आनी परत एकदा सांगता, हांव तुका म्हजो सुवात दिवचोना, आसा देव जाल्यार पळोन घेतलो तुका.

रंग्या : देव आसा? (हासता) आरे देव खंयचो, आमचे कोणूच कांय करुं शकना हें तुकाय खबर आसा. आरे तुजे बायलेक आमी मारली,

गाडी घालून तुज्या चल्याक पिसो केलो किदें केले आमचे कोणी? कोण आयलो तुजे मदतीक? आयक म्हजे बरे भशेन, चलुंग लाग हांगासरल्यान नाजाल्यार (चाकू काढता).

आपा : नाजाल्यार किदें करतलो तू? मारतलो मरे, यो मार, मार म्हाका तुमचेकडे जाता तरी किदें ताचेभायर? आमका तू पळय असो त्रास दिता तो तू केन्नाच सूख भोगूंक पावचोना. लक्षान दवर म्हजे श्राप लागतले तुका.

रंग्या : श्राप लागतले म्हाका आनी ते बीन तुजे? (हासता).

आपा : हय! तू केन्नाच सूख भोगूंक पावचोना.

रंग्या : ये, पुरो कर तुजे ते पुराण आनी मुकाट्यान ह्या पेपराचेर सायन कर.

आपा : ना करचो. चलूंक लाग म्हज्या घरातलो.

रंग्या : आरे हांव तरी खंय रावपाक आयला हांगा? वता, पूण पयली ह्या पेपराचेर सायन कर.

आपा : ना करचो.

रंग्या : ना करचो? करचो ना? (रंगा आपाक मारता).

आपा : मार. मारुन वडय एकदाचो मार..........

रंग्या : ये धरात रे ताका उडोवया कापून. (ते आपाक धरता. रंगा चाकू घेवन मारपाक फुडें सरता. इतक्यान दारार टक्टक् जाता. तें आयकून रंगा साथीदारांक पळपाचे सिग्नल करता.)

रंग्या : आपा, आयज तुजे नशीब बरें आसा म्हूण तू सुटलो. पूण कितके दिस वाचतलो? परत येतलो हांव रोखडोच, सोडचो ना तुका. (अशे म्हूणून वता).

राजू : (धावून येता) आपा तुका मारलो रे ताणे? आपा दोळे उगड.

आपा खूब मारलो रे ताणें? आपा दोळे उगड रे आपा खूब मारलो रे तुका? आपा उठ रे (आपाक उठयता) रडू नाका आपा. येवनी परत मारून उडयता तांका. आपा, तुका खूब दुखता आपा. (दोगुय एकामेकाक धरुन रडता.)

(हळूहळू माचयेर काळोख जाता).

(देखाव सोपता)

## देखाव तिसरो

(माचयेर उजवाड जाता. दुसऱ्या दिसाची वेळ. राजू एकलोच खेळटा. इतक्यान दारार टकटक जाता. राजू दार उगडूंक धावता. दाराकडे पावतकच फाटी सरता आनी आपाक उलो मारता.)

राजू : आपा भायर यो रे. आपा बेगीन यो रे. ते आयल्या, आमका मारतले. आपा यो रे मात्सो भायर, यो बेगीन.

आपा : (येता) आरे किदें जालां? किद्याक बोवाळ करता? कोण आयल्या म्हणता किदें जाले, किद्याक असो भियेला तू. कोण आयल्या?

राजू : आपा, भायर कोण तरी आयल्यात दारार मारता. आपा म्हाका दिसता ते कालचे परत आयल्या. आपा म्हाका भय दिसता रे.

आपा : आरे पूण तुका तेच म्हणोन कशे कळ्ळे.

राजू : आपा, काल हांवे दार उगडले तेन्ना ते आयले आनी तुका आनी म्हाका ताणीं मारले म्हूण आयज हांवे दार उगडूना आपा, तूय उगडूनाका वचोनी तेंका.

आपा : तेच आसतले, काय आनी कोण?

राजू : ना आपा तेच आसतले ते.

आपा : आरे पूण पळयले बगर आमका कशे कळतले?

राजू : तेंय खरे पूण दार उगडले आनी तेच आसले जाल्यार?

आपा : तेच आसले जाल्यार, (दोगूय भियेता) तू तुज्या रुमान बस आनी दाराक भितरल्यांन खिळी घाल हांवे आफयल्या बगर भायर सरो नाका, कळ्ळे?

राजू : कळ्ळे! तुवें आपयले बगर भायर सरपाचे ना. पूण आपा ताणीं तुका मारलो जाल्यार कालच्या भशेन?

आपा : तू काय भियो नाका हांव पळयता किदें करपाचे ते. पूण तू पयली मात्सो भितर वच आनी आफयल्या बगर भायर येव नाका, चल

वच माळयेर (तो वता आपा दार उगडूंक वता. भियेता दार उगडटा. दारार मनोहर (मन्या), चंद्रकांत (चंद्र्या) हे दोघूय आपागेर पेईंग गेस्ट म्हूण रावपाक आयल्या) कोण तुमी? आनी हांगा किद्याक आयल्या? हांव वळखूंक ना तुमकां.

मन्या : हांव मनोहर. सगळे म्हाका मन्या म्हणटात आनी हो चंद्र्या, म्हणजे चंद्रकांत. तुगेर एक रूम भाड्याक दिवपाचो आसा अशे आमका सांगलेले, तो पळोवपाक आयल्या आमी.

आपा : पूण तुमी काल येवपाचे आसले न्ही? येयात.

मन्या : तुमी म्हणटा ते बरोबर आसा, आमी काल येवपाचे आसले.

चंद्र्या : आनी आमी आयिल्ले लेगीत.

मन्या : आमी हांगा आयले आनी तुमच्या दारार मारून तुमी दार उगडटले म्हूण वाट पळोवक लागले.

चंद्र्या : पूण जाले भलतेच. तुमचे दार उगडले आनी दारातल्यान तीग जाण वाऱ्याभशेन पळत सुटले.

मन्या : ते पळोवन आमका मात्शे विचित्रूच दिसले. किदें जाले तें कांयच कळ्ळें ना.

चंद्र्या : ते धावता ते पळोवन आमीय तांच्या फाटल्यान धावले. त्या तिगांक दिसले आमी तांचो पाठलाग करता म्हूण.

मन्या : ते फुडे धावता आमी फाटल्यान धावता. बरे फुडे वतगीत ते तिगूय आमका चक्रोन तिनि वाटांनी पळ्ळें. आमका किदे करचे ते कांयच कळना जाले.

चंद्र्या : बरोच विचार करून आमी आज वचपाचे थारायले पूण आमका एक कळूंक ना ते तिगूय कोण आशिल्ले?

मन्या : आनी ते वाग फाटीक लागिल्या सारके पळत किद्याक सुटले?

आपा : ते सगले तुमका हांव मागीर सांगता. तेचे पयली तुमी रुम कसो आसा तो पळोवन घेयात. पसंत पडलो जाल्यार फुडलें उलोया.

तशी सगळी वेवस्था आसा तातून.

मन्या : बरे आसा. दाखयात रुम आमका.

आपा : हो पळय यावटेन आसा. चला पळोन घेयात.

(ते दोघूय रुमान वता आनी पळोन परत येता)

चंद्र्या : रुम बरो आसा. आता फुडलें उलोया.

आपा : उलोया. तेज्या पयली तुमी मात्शे बसा, हांव तुमका च्या करून घेवन येता. (आपा वता ते दोघूय आपा गेलो कांय ना ते पळयता)

मन्या : चंद्र्या बाकी हे घर मात आमका फावो सारके मेळ्ळे न्ही?

चंद्र्या : बरोबर तुजे. हांगा आमी रावत जाल्यार कोणाकूच दुबाव येवचो ना.

मन्या : हांगासरले वातावरण पळयत जाल्यार हो ह्या घरान एकलोच रावता कशे दिसता.

चंद्र्या : तू म्हणटा ते बरोबर.

मन्या : आनी दुसरे म्हळयार ह्या घराचेर आनी ह्या मनशाचे दुबाव लेगीत कोण घेवचो ना.

चंद्र्या : आनी आमकाय बिनधास्त रावपाक मेळटले.

मन्या : तसो हो मनीस म्हाका बरो दिसता. सादो सरळ.

चंद्र्या : हें घर आनी ह्या घरा भोंवतणिचो परिसर पळयल्यार कोणूय पिसो जावपाचो.

मन्या : बरोबर तुजें आनी आमकाय कोणाचे लक्ष वचना असोच जागो जाय आसलो न्ही (इतक्यान आपा च्या घेवन येता)

आपा : घेयात पयली च्या घेयात. (ते च्या घेता)

मन्या : आमका तुमचे नांव खबर ना आमी तुमका किदें म्हूण उलो मारूं?

आपा : तशें सगळे म्हाका आपा म्हणोन वळखता, म्हणतगीर तुमीय म्हाका आपाच म्हणा.

मन्या : आपा तुमच्या रुमाचे भाडे कितलें दिवपाचे?

आपा : तशे तुमच्या पयलीं रावतालें ते तीग जाण आसले. ते आठशे रुपया दिताले तुमी सातशे दिया तशे त्या रुमान सगळी व्यवस्ता आसा ती तुमी पळयल्या आसतली फकत तुमका तुमचे जेवण स्वता रांदचे पडतले. आनी रातचे णव वरां जावच्या पयली घरान येवचे पडटले.

चंद्र्या : तशे दिसभर आमी भोवंडेरूच आसतले.

मन्या : आनी रातचे तुमी म्हणता जाल्यार आमी बेगीन येता.

आपा : राग येवचोना जाल्यार एक विचारूं?

मन्या : राग आनी कसलो? विचारा तुमी.

चंद्र्या : कितलेय जाल्यार तुमी आमच्यापरस वयान व्हड न्ही मागीर तुमचो आनी राग कसलो धरपाचो विचारा तुमी.

मन्या : आनी खंयच्याय घर मालकाक भाडेकरूची म्हायती आसपाकूच जाय.

चंद्र्या : नाजाल्यार थोडे आसता, घरात भाड्याक म्हूण रावता आनी मागीर एक संद सादून घरमालकाक मारून घर लुटून पसार जाता.

आपा : म्हाका तशे म्हणपाचे नासले, तुमका राग आयलो जाल्यार हांव विचारिना.

मन्या : ना ना आमका राग येवना. ना रे चंद्र्या?

चंद्र्या : आनी राग येवन आमी वतले आनी खंय विचारा तुमी.

आपा : तुमी हांगा कशे पावले, ना म्हळयार खंय कामाक बीन आयल्या?

मन्या : आमी हांगा भोवंडेकार म्हूण आयल्या.

चंद्र्या : तशे मूळचे आमी गोंयकारूच.

मन्या : आमी दोगूय धा वर्सा पिरायेचे आसतना आमचे आवय बापूय कामानिमतान मुंबय वचून रावले.

चंद्र्या : आमी थंयच ल्हानाचे व्हड जाले.

मन्या : पूण आमच्या मनातल्यान गोयच्यो न्हंयो, देवळां, कुळागारां, रानां, मळबाक तेंकपी दोंगर, अशे गोंयचे सैमीक देण घर करुन रावले.

ंद्र्या : मुंबयच्या धावपळीच्या जिविताचो विट येवन काय दीस सुसेगाद रावपाक आमी गोयांन आयल्या.

न्या : हांगा आमका निसर्गाच्या सहवासांत रावन सैमाचो मनमुराद आनंद घेवपाचो आसलो.

ंद्र्या : पूण हांगा पावतकच हांगासरली शारां पळोन ताकाय मुंबयचो रंग चडिल्याचो दिश्टी पडले म्हणून सरळ गांवांन रावचें अशें थारावन आमी गावांची वाट धरली.

न्या : सगळयाक फिरून फिरून आमी तुमच्या ह्या निसर्गान नटिल्ल्या गावांत पावले.

आपा : गोयची संस्कृताय खूब लागिच्यान पळोपालागून आमी ह्या तुमच्या घराची निवड केली.

आपा : इतकी वर्सा मुंबय रावून गोयांविशी तुमच्या मनात जो आदर आसा ते आयकोन मन खोशी जालें. तुमी जाय तितके दीस हांगा रावात. म्हज्या ह्या माणकुल्याशा गावांत जायते पोळोवपा सारके जागे आसात, ते तुमी पळोन घेयात.

मन्या : आपा तुमी ह्या येद्या व्हडल्या घरांत एकठेच रावता?

आपा : (आपा मात्सो खाकुडटा) तसो पळोंग गेल्यार हाव एकटोच रावता पूण............

चंद्र्या : पूण किदें आपा ?

मन्या : तुमच्या घरांत आनी कोण भाड्यान रावता?

आपा : ना. खरे म्हळयार नावाक आमी दोग जाण रावता.

चंद्र्या : म्हळयार किदे आमका कळूक ना, तुमी किदे म्हणता ते.

आपा : सगळें सांगता, तुमका आनी कितले दीस लिपयतलो खरे म्हळयार हावे थारायले तुमका कायच सांगचोना म्हूण.

मन्या : तशी किदेय खाजगी गजाल आसा जाल्यार सांगू नाका.

आपा : म्हाका भय दिसतालो तुमका खरे सांगतकच तुमी हांगा रावचे म्हूण.

चंद्र्या : ती गजाल सांगून जर तुमी दुखी जाता जाल्यार आमकांय त आयकुपाची इत्सा ना.

आपा : आज सांगलिना जाल्यार केन्ना तरी कळटलीच मागीर कळोन मनस्ता जावच्यापरस तुमकां आतांच कळिल्लें बरें म्हणजे तुमी तुमच निर्णय घेवपाक मेकळे.

मन्या : कसलो निर्णय म्हणता तुमी?

आपा : सांगतां! ह्या घरांत हांव, आनी म्हजो पूत राजू अशे आमी दोग जाण रावता पूण हांव तुमकां उतर दिता तो तुमकां कसलोच त्रास दिवचोना. हांव ताका कुडिनूच दवरतलो.

चंद्र्या : त्रास दिवचोना म्हणजे? आमी समजूंक ना.

आपा : एका अपघातांत सापडोन ताजे तकलेक मार बसलो आनी त्या दिसाच्यान तेजी याद वचोन तो भुरग्याभशेन वागूंक लागलो. पूण तुमी खात्री बाळगिया तो तुमकां कसलोच त्रास करचोना.

मन्या : आपा, तुमी कांयच विचार करूं नाका आमी दोगूय ताका सांबाळून घेतले.

चंद्र्या : आमची फकत एकूच अट आसा.

आपा : अट? ती आनी कसली?

मन्या : आमची अट तशी सोपी आसा. तुमी हुसको करूं नाका.

आपा : हें पळयात हांवे म्हजे जे किदे आसले ते तुमका सांगले म्हंज्यान जातले अशेच किदे सांगात.

चंद्र्या : आपा आमची इतकीच अट की आमी तुमगेर रावता ही गजाल कोणाक कळूक जायना.

आपा : अशे आनी किद्याक?

मन्या : आपा, आमी हांगा एकांतान रावपाचे चितून आयल्या तेन्ना आमची

इतकीच इत्सा आसा आमका हांगा कोणे वळखुचे न्ही.

चंद्र्या : आमी मुंबय सारक्या शारांतले ह्या ल्हांनशा गावान रावता हे कळटकच लोक आमच्याविशीं वेगळोच दुबाव आनी घेवक नाका म्हणून ही आमची अट.

आपा : तेजो तुमी मात्तूय हुसको करू नाका. तुमचे विशीं हांव कोणाकूच काय सांगचोना तुमी खात्री दवरात.

मन्या : तुमी जर आमचे हे काम केले जाल्यार, आमी तुमच्या राजूक सारके सांबाळून घेतात.

आपा : बरें आसा, तुमी बसा आं हांव मातशी रांदपाची तयारी करतां आनी आयज तुमी आमच्याबरोबरुच जेवपाचे.

मन्या : आपा आमकां लागून तुमी किद्याक त्रास घेतात?

आपा : आरे त्रास कसलो तांतूत? आमी दोग जाण आनी तुमी दोग जाण. शिवाय तुमी हांगासर आयज आमचे सोयरे समजून आमच्या बरोबरूच जेवा, फाल्याच्यान मागीर तुमचें तुमी पळयात बरे हांव मातसो रांदपाक वता तुमी बसा गजाली मारीत.

चंद्र्या : आपा तुमचो हो राजू खंय? आमी आयिल्याक दिश्टी पडूंक ना सो.

आपा : आसा, कोणाक त्रांस जावचो न्ही म्हणून हांव ताका माळयेर बंद रुमांत दवरतां. तुमी बसा हाव येता रोखडोच (आपा रांदचेकुडीन वता) (ते दोगूय घर बारीकसाणेन पळयता).

मन्या : चंद्र्या, किदेंय सांग हें घर मात आमकां जाय तशेच मेळ्ळे, कोणाकूच दुबाव येवचोना.

चंद्र्या : तूं म्हणटा तें बरोबर आसा पूण हांगा आमकां गाफील रावून चलचेना.

मन्या : बरोबर तुजे, प्रत्येक गजालीचो बारीकसाणेन विचार करचो पडटलो.

चंद्र्या : ह्या गावांत रावून, गावांतल्या लोकांच्या नदरेक येवचेना अशे आमकां वावुरचे पडटलें.

मन्या : हय, आनी खास करून आपाक कसलोच दुबाव येवपाक जायना ना जाल्यार आमचो सगलो प्लान फेल जातलो.

चंद्र्या : आमी आपाकडे अशे वागपाचे की आपाक आमचेर विश्वास बसपाक जाय.

मन्या : पुण किदेय सांग, ह्या गोंयांत जर कोणूय अतिरेकी येवन रांवलो जाल्यार जे मेरेन तो कसलीय चूक करीना ते मेरेन पुलीसांक ताचो वास लेगीत लागचोना.

चंद्र्या : बरोबर तुजे हांगासलो प्रत्येक मनीस आपले काम बरे काय आपूण बरो ह्या तत्वाचो कोण येयलो कोण गेलो कायच लागना.

मन्या : आनी ह्याच संदीचो आमी फायदो घेवपाचो.

चंद्र्या : पूण हांगा आमी कितके दिस रावपाचे?

मन्या : जे मेरेन थंयचे वातावरण थंड जायना ते मेरेन.

चंद्र्या : आनी ताचे उपरांत किदें?

मन्या : हांगसर एखादी संद मेळटा जाल्यार घेवपाची.

चंद्र्या : तुका किदें म्हणपाचे आसा तें कळूंग ना म्हाका.

मन्या : हांवे आयकलां, हांगा मोठ्या मोठ्या घरांनी, जाण्टी मनशां एक एकटी रावता, तांची भुरगी भायल्या देसांनी कामांक आसता, अशा घरांनी भरपूर म्हाल आसता आनी घातूय उणो आसता.

चंद्र्या : आयलें म्हज्या लक्षांन, आमी हांगा रावून पयलीं अशा घराची खबर काडपाची.

मन्या : आनी संद मेळ्ळी जाल्यार घालपाची झडप.

चंद्र्या : पूण ही सगळी कांमा आमका एकठाय भोंवून न्हय. एक-एकल्याक करचीं पडटलीं.

मन्या : सगळ्यांत पयलीं हांगाच रावून हांचे कडल्यानूच खबर काडुया.

चंद्र्या : म्हजे तकलेंत एक आयडिया आयल्या.

मन्या : तुकाय तकली आसा हें आयकोन म्हाका अजापूच दिसलें.

चंद्र्या : आरे आयक तरी पयलीं.

मन्या : तूं उलय, हांव आयकता.

चंद्र्या : तुवें सांगलेल्या कामाक आमी ह्याच घरांतल्यान सुरवात केली जाल्यार?

मन्या : आरे हळू उलय. अशो गजाली उघड्यार उलोवपाच्यो नासता.

चंद्र्या : विचार कर तुवें आत्तां जशें म्हाका सांगले सादारण तीच परिस्थिती ह्याय घराची आसा.

मन्या : तू म्हणटा ते बरोबर आसा पूण म्हाका दिसना हांगा आमका कितेंय हाताक लागतले अशें.

चंद्र्या : तुका कांय खबर ना, जे दिसता तशे ते नासता.

मन्या : ह्या कामाखातीर आमका चारयकडे नदर मारची पडटली, जर हाताक कीदें लागपाची शक्यता आसा अशें दिसत जाल्यार घरा भायर त्या पेडार बसोन उलोवपाचें.

चंद्र्या : मागीर ठरले तर आयच्यानूच कामाक सुरवात करुया. (इतल्यान दारार टकटक जाता दोगुय दचकता) (मन्या चंद्र्याक सिग्नल करता तो वचोन दार उगडटा) दारान आदोगाद उबो आसता) कोण जाय तुमकां?

विनय : आपा ना घरान?

मन्या : आसा, येयात बसा, हांव आफयता आपाक (दाराकडे वचून) आपा, मातशे भायर येतात कोण सोदता तुमका.

आपा : (येता) कोण दोतोर तुमी? कशे आसात? कितेंय काम आसलेले जाल्यार म्हाका आफोवपाचे न्ही, हांव येतलो आसलो.

विनय : आपा हांवे केदीय व्हडली पदवी घेतली तरी तुमका हांव तुमचो विनयूच उरतलो, तेन्हा तुमी म्हाका विनयूच म्हुण उलो मारा.

आपा : बरे बरे, तू म्हणटा जाल्यार हेचेफुडें तुका नावानूच उलो मारता.

विनय : आता कशें जालें!

आपा : केस किदें म्हणटा आमची, आनी कितके दिस चलपाची?

विनय : आपा त्याच संबंदान उलोग आयिल्लो तुमच्याकडे, पूण... (अशे म्हणून त्या दोगायकडे पळयता) (आपाच्या लक्षान येता).

आपा : पळय गजालींत हांची ओळख करुन दिवपाचे विसरलो. विनय हे दोघूय आयच्यान आमगेर आमचे पेइंग गेस्ट म्हुण रावपाक आयल्या. हो चंद्रकांत आनी हो मनोहर आनी वो आमचो आदोगाद विनय नाईक.

आपा : आनी विनय, तू किदें सांगपाक आयला पळय ते मनात कसलोच दुबाव दवरी नासतना सांग.

मन्या : आपा तुमी उलयात कितें उलोवपाचे आसा तें. त्या म्हणसर आमीय मातशे फिरून येतात.

आपा : बरें आसा, पूण हे पळया चड पयस वचूनाका रोखडे येयात.

चंद्र्या : रोखडे येता आपा (ते दोगूय वता).

आपा : विनय कितें म्हणता आमची केस? खंय पावल्या म्हाका पयलींच दुबाव आशिल्लो डेटीर डेट दिवन बाकीच्या केसीसारखीं कितलीशीच वर्सा लागतली नीकालाक म्हुण, पूण तुवें म्हजे त्या वेळार आयकले ना.

विनय : आपा, त्या वेळार तुमचे आयकूंक ना म्हुण आयज हो खोशेचो दिस आयलो.

आपा : आरे अशे जाला तरी किदें? कसली खोशी म्हणटा तूं?

विनय : आपा आयज हांव खुप खोशेची गजाल घेवन आयला.

आपा : आता आनी कसली खोशेची गजाल आयकपाक मेळटली आमका?

विनय : आपा तुमका म्हजेर विश्वास ना?

आपा : आसा रे बाबा म्हणुनूच तर सगलें तुजे सुवादीन सोपयलां.

विनय : मागीर आयकात तर आनी दोन दिसानी तुमच्या केसीचो निकाल लागता.

आपा : कितें खरें सांगता तू हें?

विनय : खऱ्यांनीच आपा कोर्टातल्यान हांव सरळ तुमका सांगपाक आयला.

आपा : खरेंच विनय तुवें खूब खोशेची गजाल सांगली. राजूचे आईच्या मारेकऱ्याक ख्यास्त फाव जातली, हे आयकोन खरेच म्हाका खूब खुशी जाली, आनी हे सगले घडटा तुका लागोन.

विनय : आपा हांवें तशें कांयच मोठेशे करुंक ना, हांवे फकत न्यायाची बाजू घेतल्या, आनी तुमका न्याय मेळोन दिला.

आपा : असोच न्यायाकलागोन झगडत राव, देव सदांच तुजें कल्याण करतलो.

विनय : पूण आपा ह्या सगल्याचो खरो गुन्यावकारी तो रंगा. पुरावो नाशिल्या कारणान सुटलो. पूण त्या ट्रक ड्रॉयवराक मात ख्यास्त फावो जातली.

आपा : त्या रंगाक देवूच पळोन घेतलो.

विनय : आनी आपा इतकेच न्हय आमी लुकसाण भरपाय म्हणून मागलेले राजूच्या आईक दोन लाख आनी राजूक एक अशे तीन लाख मेळटले तुमका.

आपा : तीन लाख मेळोव, नाजाल्यार एक कोटी, पैशे मेळोन कितें करपाचे आता, राजूची आई आमका साणून गेली. एकुलतो एक पूत आसलो तो असो जालो मागीर हो पैसो घेवन कितें करतलो हांव?

विनय : तुमी अशे किद्याक म्हणता आपा? ताजेर तुमचो हक्क आसा.

आपा : हक्क हं, खरें म्हळ्यार आमी दोगायनी पैशाची म्हुण केन्हा आसूच धरलिना. जे मेळटा तातूंत समाधान मानले, हांवूच ताका केन्हांय म्हणटालो तुका बाकीच्या बायलाभशेन खूब वस्ती घालपाची हौस ना, त्या वेळार ते म्हाका सांगताले म्हजी खरी मोलाची वस्त म्हळ्यार तुमच्या नावान कपलार लायता तो तिभो. तुमच्या पयली म्हाका मरण आयल्यार पुरो, म्हुण सदांच मागतालें आनी जालेंय तशेंच. भरलेल्या संवसारांतल्यान आमका साणून गेले.

विनय : आपा तुमी म्हणटा ते बरोबर, पूण हो पैसो फाल्या राजूच्या फुडाराक

उपकारांतलो म्हणुनूच हांवे इतकी खटपट केली.

आपा : खरें तुजें, म्हजे आता कितें, ज्या दिसा आफोवणे येतले त्या दिसा मनात कसलीच आस बाळगिनासतना वचचे पडटले.

विनय : तुमी अशे किद्याक उलयता? आपा ह्या गुंडाचो भय धरुन आमी जगपाचे किद्याक सोडुया?

आपा : तसो म्हाका म्हज्या जिवाचो भंय दिसना. भंय दिसता तो इतकोच म्हाका कितेंय जायत जाल्यार म्हज्या फाटल्यान म्हज्या राजूक कोण सांबाळतलो?

विनय : आपा तुमी ताचो कांयच हुसको करूं नाका, हांव ताका म्हज्या भावासारको जपतलो.

आपा : तुजी हीं उतरां आयकोन म्हजे मन सामके शांत जालें. म्हज्या फाटल्यान म्हज्या राजूक पळोवपी ताजो भाव आसा हे आयकोन खूब बरें दिसलें. तुजासारके भुरगें ज्या घरान जल्माक आयलें, ते आवय बापूय खूब भाग्यवान.

विनय : आपा ह्या केसीचो निकाल लागनाफुडें त्या रंगाकूय सारको धडो शिकोया.

आपा : जगांत जेका कोण ना तेका देव आसा अशें म्हणटा ते खरें. तू देवाच्याच रुपान पावला म्हाका.

विनय : आपा म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतले ते सगळे दीस याद जाता. म्हजे आवय बापूय गरीब आसल्याकारणान म्हाका शिकोवपाक तांका खूब अडचणी येताल्यो. अशा वेळार तुमी आमची मदत केल्ली. आतां म्हाकाय त्या उपकारांची परतफेड करपाची संद मेळ्ळया, ती हांव कशी सोडूं?

आपा : आरे तो वेळूच तसो आसलो. म्हजेकडे जाले ते हांवे केलें. तांतूत उपकाराचे अशे कायच नासले. राजू सारको तूंय आपलोच पूत अशे सदांच म्हणटाली राजूची आई.

विनय : आपा तुमी दोगांय म्हाका आपलो समजताली म्हणतकच तुमची थोडी तरी जबाबदारी म्हाका घेवपाक दियात.

आपा : सदांच असोच राव. अडलेल्याक सदांच मदत कर. आमचो आशिर्वाद सदांच तुका मेळटलो.

विनय : आपा गजालीन तुमका हांव म्हत्वाची गजाल सांगपाक विसरलो.

आपा : आणी कसली म्हत्वाची गजाल म्हणटा तूं?

विनय : आपा इतके दीस तुमी येनासतना हांवे कोर्टांत सांबाळून घेतले, पूण केसीच्या निकाला दिसा तुमका कोर्टांत हजर रावचें पडटलें.

आपा : बरें आसा. हांव कोर्टांत वेळार पावता.

विनय : आपा, पूण त्या दिसा तुमी राजूक कोणाकडे दवरतले?

आपा : इतके दीस तेका लागोन म्हाका खंयच भायर सरपाक मेळनासले. पूण आयच्यान हे दोगजाण रावपाक आयल्या न्ही आमगेर, तांका मातशे सांगून पळयता.

विनय : आपा ते दोगूय ओळखीभायले आसतना राजूक तुमी तांचेकडे सोपयतले?

आपा : ओळखीचे ना खरे पूण दोगुय प्रामाणिक आसा. म्हूण तांचेर विश्वास दवरूं येता.

विनय : तशें जाल्यार बरें आसा तर. बरें आता हांव वता, तुमी परवा धा वराचेर कोर्टांत येयात तर.

आपा : आरे पूण इल्ली च्या तरी घेवन वचचो आसलो.

विनय : आपा, आता च्या न्ही जेवपाकूच येता एक दीस.

आपा : यो यो, हांव वाट पळयतां त्या दिसाची.

विनय : बरें तर आपा येता हांव. केन्हाय म्हजी गरज पडली जाल्यार सांगून धाडात. (तो वता).

आपा : बरें बरोकरून वच . खरेंच हे दोगजाण आयल्या तांचोच पायगुण बरो दिसता. ते दोगूय आयले आनी तांच्या फाटल्यान ही बरी गजाल आयकुपाक मेळली. ह्या जगान म्हज्या सारक्याचो न्याय

करपी कोण तरी आसा, हे कळोन मन समाधानी जालें. पूण हें दोगूय पावले तरी खंय. चड पयस वचना जाल्यार पुरो (दाराकडे पळयता, ते दोगूय येता).

मन्या : आपा कोणाची वाट पळयताले तुमी?

आपा : आरे तुमचीच वाट पळयतालो. खंय पावले तुमी म्हुण पळयतालो, म्हाका दिसलें तुमी चड पयस पावले म्हूण.

चंद्र्या : ना आपा चड पयस वचूं ना हांगाच आसले.

आपा : खरेंच, तुमच्या रुपान आयज ह्या घरांत खूब दिसांनी खोशेचो दिस आयला. खरें म्हळयार तुमचे दोगायचें आयज हांवे तोंड गोड करपाचें.

मन्या : आपा तुमका इतके खुश पळोन एक विचारीन शें दिसता. अशी कसली खोशेची गजाल घेवन आइल्लो तुमचो आदोगाद?

आपा : आरे आनी दोन दिसांनी आमचे एका केसीचो निकाल लागता आनी आमका लुकसान भरपाय म्हुण तीन लाख मेळटले आनी आमच्या दुस्मानाक ख्यास्त फावो जातली.

चंद्र्या : आपा तुमच्यासारक्या सरळ मनशाचे दुस्मान आसा ह्या गांवान?

आपा : आयच्या ह्या कलीयूगांत सरळ चलपी मनशाचे चड दुस्मान आसता. तोंडार बरें पूण फाटल्यान वायट आसता.

मन्या : ते सगळें खरें पूण आपा राजू खंय तुमचो दिसोकूंच ना.

आपा : आसतलो माळयेर, हांवे ताका सांगलेले हांव आफयल्या बगर सकल येवनाका म्हुण (इतक्यात राजू माथ्यार बुरखो घेवन सगल्यांच्या फाटल्यान येवन रावता कोणाकूच खबर ना.)

राजू : आपा गेले रे आईल्ले ते. (सगळे फाटल्यान पळयता ते दोगूय भिता. माचयेर हळूहळू काळोख जाता).

❖ पयलो अंक सोपता ❖

## अंक दुसरो

(माचयेर उजवाड जाता राजू एकलोच बसून खेळटा, आपल्याच धुंदीन आसा).

राजू : सगले तसलेच. म्हज्या वांगडा कोणूच येना खेळपाक. बरें नू सामके. म्हाका म्हणटा तू आता ल्हान ना व्हडलो जालो. तुवें आता व्हडल्या भुरग्या वांगडा खेळपाक जाय. ताचेकडे खेळपाक गेल्यार ते म्हणता तू आजून ल्हान आसा ल्हान भुरग्यांवांगडा खेळ आता. म्हाका कोणावांगडा खेळपाचे तेच कळना. म्हाका कोणूच समजून घेना (रडटा. इतक्यान मन्या आनी चंद्र्या भितरल्यान येता).

चंद्र्या : आरे आयज आमच्या राजूचे कितें जाला रडपाक? आपान कितें म्हटले काय?

मन्या : आरे आयज आमचो राजू आमचेकडे उलयना काय किदें रे?

चंद्र्या : मन्या तुवे बीन काय म्हणूना मरे ताका?

मन्या : ना रे बाबा, हांव आनी कितें म्हणतलो ताका?

चंद्र्या : राजू कितें जालां असो एकलोच बसोन किद्याक रडता?

राजू : म्हाका कोण खेळपाक घेना सगळे म्हाका धावणयता, म्हजी फकणा मारता, म्हज्या वांगडा खेळूंक येवचेना म्हणटा.

मन्या : आ अशे जालां तर, म्हूण तुका रडूंक आयले?

चंद्र्या : आरे तुज्यावांगडा खेळूंक कोण येना म्हण कितें जालें, आमी येता मरे.

मन्या : आरे कितें सांगता तू ताका, आमकां आयज खंय वचपाक जाय याद ना तुका? विसरलो रोखडोच.

चंद्र्या : राव रे मात्सो! हेजी मातशी मजा करुया मरे.

राजू : ये, तुमी खऱ्यानीच म्हजा वांगडा खेळटले? ये तुमका कसलो खेळ खेळूंक कळटा?

मन्या : आमका सगळे तरेचो खेळ खेळपाक कळटा.

राजू : ये तुमका क्रिकेट खेळपाक कळटा?

मन्या : कितें विचारता रे, क्रिकेटीन आमचो हात धरपी कोण ना.

चंद्र्या : हो बेटींग करपाक आयलो जाल्यार हाका कोणूच बोलींग घालपाक येना.

राजू : किद्याक, तांका बोलींग घालपाक कळना?

मन्या : आरे किद्याक म्हणू कितें विचारता, त्या बोलराक हांव स बोलांक स सिक्सरी मारता न्ही रे म्हूण.

राजू : ये, तू इतको बरो खेळटा जाल्यार तुका इंडियेचे टिमींत किद्याक घेना तर?

मन्या : तशे ते म्हाका परत परत आफयता रे, पूण हांवूच वचना.

राजू : किद्याक वचना रे तू?

मन्या : हांवे तांका स्पश्ट सांगले तुमी गांगुलीक घेता जाल्यार हांव येता.

चंद्र्या : आरे एक दीस हेणे एका बॉलाक शंभर रन काडले आनी सगळे रिकोड ब्रेक केलो.

राजू : एका बॉलाक शंबर रन आनी कशे रे?

मन्या : आरे एक दीस आमची मेच चलताली. हांव असो बेट घेवन बेटिंग करतालो.

राजू : ये तू बेट घेवन बेटिंग करतालो? आनी बाकीचे कितें बॉल घेवन बेटिंग करता तर?

मन्या : तशे न्ही रे, आयक तरी पयली. आं तर हांव असो बेटिंग करतालो.

चंद्र्या : मन्या हांव म्हूण तो बॉलर आनी राजू तू फिल्डिंगेंक राव, बाँड्रीचेर चल. घालू मरे बॉल, रेडी?

मन्या : घाल घाल. आरे राव राव मात्सो, ती सायड स्क्रीन मातशी अशी हाड रे. आं! पुरो पुरो चंद्र्या चल घाल.

(चंद्र्या बॉल घालपाची अँक्शन करता आनी मन्या बॉल मारता)

चंद्र्या : आनी हेणे असो उखलून बॉल मारलो.

मन्या : आनी असो हांवे बॉल मारलो तो वयर वचोन ग्रावंडार आसलेल्या बायन पडलो.

चंद्र्या : आनी तो बॉल हाडता म्हणसर हेणे शंबर रन काडले धावून.

मन्या : चल राजू आता तू बॉल हाड हेणे मारला तो.

राजू : (वचपाक वता आनी रावता) हाव ना रे बाबा.

मन्या : आरे किद्दे जाले किद्याक रावलो?

राजू : हांव ना रे बाबा आपान म्हाका सांगला बांयकडे बीन वचू नाका म्हूण.

चंद्र्या : आरे ती फकणाची बांय रे.

राजू : आनी बॉल तरी खंयचो खरो?

मन्या : आरे हय मरे तर चंद्र्या. आमचो राजू बरोच हुशार मरे.

चंद्र्या : चल आतां क्रिकेट पुरो आतां दुसरो खेळ खेळोया.

राजू : दुसरो कसलो खेळ?

चंद्र्या : आमी तुज्या दोळ्यांक पट्टी बांदता, तु मागीर आमका सोदून काड.

राजू : ना रे बाबा, तुमी म्हाका फोटोंग आयल्या दोळ्यांक पट्टी बांद्तखीर तुमी खंय आसा ते म्हाका कशें कळटलें?

मन्या : ते तुका आमी दाखयता कशें खेळपाचे ते. आता आमी ह्या चंद्र्याच्या दोळ्यांक पट्टी बांदुया चल (ते पट्टी बांदता) चल आता तो आमका सोदून काडतलो. आमी असो आवाज करपाचो चल रेडी (ते खेळता राजू चंद्र्याच्या सायडीन रावता.)

मन्या : आरे राजू तेजा सायडीन रावूनाका तो तुका धरतलो. (ते चंद्र्याच्या लक्षान येता तो राजूक धरता)

चंद्र्या : धरलो. चल आता तुवें आमका धरपाचे (अशे म्हणून ताजा दोळ्यांर पट्टी बांदता) चल धर आमका.

राजू : ये म्हाका कांयच दिसना मरे. सगळो काळोख जालो मरे.

मन्या : आरे थंय खंय वता? हें पळय आमी हांगा आसा मरे.

राजू : आरे खंय आसा रे तुमी?

दोघुय : हे न्ही रे हांगा आसा (अशे म्हणून हळूच घरातल्यान पळता. राजू तांका सोदत दाराकडे पावता इतक्यान एक चली येता. राजू तीच्या मऱ्यांत वचून तिका धरता. आनी धरलो धरलो म्हणून नाचत दोळे सोडटा आनी पळयत उरता भितरल्यान 'कोई मिल गया' हे गाणे वाजता. ती चली साडी नेसल्या खानाक पर्स हातांत बूक आसा दोळयांक चश्मा आसा तें राजूक पळयत उरता गाणे वाजता. अचानक ती दोगाय भानार येता).

माया : हँलो! हँलो! तुमी अशे म्हाका पळयतूच रावतले काय भितर येवपाक दितले?

राजू : आँ...... अशे कशे जाले? अरे मन्या आत्ता मरे तू चलो आसलो. रोखडीच चली कसो जालो? जादू केलो काय किदे रे?

माया : आरे हांव मन्या न्हय माया.

राजू : माया! ही आणी कसली माया?

माया : आरे म्हजे नांव माया.

राजू : तू कोणाले आनी खंयचे आनी हांगा किद्याक आयला?

माया : सांगता, सगळे सांगता. पूण पयली भितर तरी सरूं दी.

राजू : आता तू खंय आसा तर! यो बस.

माया : तुजो बाबा ना घरांन?

राजू : बाबा.......... हांगा कोण बाबा म्हूण रावना. हांगा फक्त हांव आनी म्हजो आपा रावता.

माया : आनी आत्ता दोगजाण भायर गेले ते कोण तर?

राजू : ते आमगेर पेईंग गेस्ट म्हूण रावपाक आयल्या, मन्या आनी चंद्र्या.

माया : म्हाका एक सांग ते तुमगेर केन्हाच्यान रावता?

राजू : ते सगळे हांव तुका किद्याक सांगू?

माया : बरे सांगना जाल्यार नाका सांगू, हांव वता तर हांव हांगा तूजेकडे फ्रेंडशीप करपाक आयिल्ले. पूण तू जर म्हजेकडे असो वागता जाल्यार हांव वता तर.

राजू : ये तू खऱ्यानीच म्हजेकडे फ्रेंडशिप करपाक आयिल्ले?

माया : हय! पूण तुका करपाची ना जाल्यार हांव वता.

राजू : ये तू खरेंच सांगता मगो? पूण हांव तुका वळखना आनी तूंय म्हाका वळखना, मागीर आम्ही फ्रेंडा कशी जातली?

माया : आरे दोन अनोळखी मनशा जेन्हा एकमेकाक मेळता आनी आपआपली ओळख करून दिता तेन्हा ती फ्रेंडस् जाता.

राजू : पूण म्हजी हांवे तुका खंय वळख करुन दिल्या?

माया : आता दी तर म्हाका. सांग तुजे नांव किदें?

राजू : म्हजे नांव राजू.

माया : मागीर आता जातलो मरे म्हजो फ्रेंड?

राजू : तू म्हज्या वांगडा खेळपाक येतले जाल्यार पयली सांग?

माया : तुका कसलो खेळ खेळपाक आवडटा?

राजा : म्हाका मुगो क्रिकेट, फुटबॉल, लंगडी आवडटा. तुका हांव लंगडी घालून दाखोव? चल तू धाव, हांव तुका धरता.

माया : राव मरे मातसो. पयली आमी गजाली करुया मागीर खेळोया. हांवे विचारलेल्या प्रश्नाचो तू म्हाका जाप दिल्यार हांव तुज्या वांगडा खेळपाक येतले.

राजू : बरें तर विचार तू कितें विचारपाचे ते पुण मागीर खेळपाक येतले मुगो म्हज्यावांगडा. ये, पूण दोळे बांदून मात खेळपाचे ना आ. ना जाल्यार म्हजे दोळे बांदून तू नाच जायशी, ते जाल्ले तशे.

माया : ना ना, तू कायच भियो नाका हांव हांगाच रावता.

राजू : ये हांगा नाका. आपा म्हाका तापयतलो. तेणे म्हाका सांगला अनोळखी मनशाक घरांत घेवनाका म्हूण.

माया : आरे तू आनी हांव आता फ्रेंड्स जालीना. मागीर आता हांव अनोळखी कशें उरलें.

राजू : तू म्हणटा तेंय खरें. पूण तू आपा येवच्या पयलीं चल आ, ना

जाल्यार आपा म्हाका तापयतलो.

माया : म्हाका तरी चड वेळ रावपाक खंय वेळ आसा? म्हाका आता आनी खूबकडे वचपाक जाय. सगल्या घरांची माहिती एकठाय करपाक जाय.

राजू : ये तू कसली माहिती एकठांय करता?

माया : हांव प्रत्येक घराघरांत वचोन त्या घरांत कोण कोण रावता, ते कितें करता ते सगळे बरोन व्हरता.

राजू : आ म्हणजे तू जण गण मण करता तर.

माया : आरे जन गण मन न्ही जनगणना म्हाणता तेका.

राजू : तेच गो, ते म्हाका खबर आसा.

माया : तुका खबर आसा जाल्यार आता म्हाका तुमची माहिती दि पळोवया.

राजू : आमच्या घरांत हांव आनी म्हजो आपा रावतात.

माया : आनी ते दोगजाण कोण तर?

राजू : ते आमगेर पेईंग गेस्ट म्हणून रावतात.

माया : ते केन्हाच्यान तुमगेर रावता आनी ते खंयच्यान आयल्या?

राजू : ते ह्याच दिसांनी आयल्या आनी ते खंयच्यान आयल्या ते म्हाका खबर ना.

माया : हांव मात्सो तांचो रूम पोळोव?

राजू : हो न्ही गो, पळय पूण तांचे कसलेच वस्तूक हात लाव नाका आँ.

माया : बरें, हांव तांचे कसलेच वस्तूक हात लायना फकत पळयता आनी येता (तें भितर वता आनी परत काय वेळान येता).

राजू : सवकास वच गो, त्या रूमांत हुनीर खूब जाल्या तांका माडयशीत

बीन. (ते येता) पळयली मुगो रूम, गावलो हुनीर?

माया : हय पळयली आनी म्हाका किदें जाय आसले तेय मेळ्ळे म्हाका. बरें तर आता हांव वता आनी खूब घरानी वचपाक जाय.

राजू : ये पूण तू परत केन्हा येतले तर म्हज्या वांगडा खेळपाक?

माया : येतले रोखडेच परत येतले पुण हांव हांगा येवन गेले म्हणोन कोणाकूच सांगपाचे ना. कळ्ळे?

राजू : कळ्ळे म्हाका. तू हांगा येवन गेले ते कोणाकूच सांगचोना पूण तूं परत येता आसतना म्हाका चोकलेट हाडटले मुगो.

माया : हय! तुका व्हडली कॅडबरी हाडटा, पूण आता तुजो आपा येवच्या पयली हांव वता. (अशे म्हणोन ते वता राजू ताका टाटा करता आनी परत येवन खेळटा. काय वेळान आपा आनी विनय येता.)

आपा : विनय ही खोशेची खबर आयकोन राजू खूब खूश जातलो.

राजू : आपा आपा म्हाका चोकलेट हाडल्या?

आपा : ती आनी कशी विसरतलो हांव, घे.

राजू : आपा तू कसली खोशेची गजाल म्हणतालो रे आत्ता?

आपा : आरे आमी आयज आमची केस जिकले. तुझ्या आईच्या मारेकऱ्याक कोर्टान पुलिसेचे सुवादीन केलो. आमच्या विनयान घेतलेल्या मेहनतीक आयज यश मेळ्ळे. आज म्हाका खूब खूशी जाल्या.

विनय : आपा सत्य चड दीस लिपोन उरना, ताका केन्हा ना केन्हा तरी न्याय मेळटाच. हांवे फक्त न्यायाची बाजू घेतली आनी म्हजे काम प्रामाणिकपणान केले.

आपा : पूण तरी लेगीत तुका कांयच दिवपाक मेळूकना हेजीच म्हाका खंत

जाता.

विनय : आपा तुमचे खुशेन तुमी म्हाका सहभागी केलो तातूनच म्हाका सगळे मेळ्ळे.

आपा : पूण अजून एका कामान तुका म्हजी मदत करची पडटली.

विनय : तुमी म्हाका केन्हाय उलो मारा हांव धावून येतलो.

आपा : आता त्या रंगाक पुलीसांचे सुवादीन केलो म्हणजे आमी सुटले.

विनय : आपा तुमी कांयच भिऊ नाका. तेका हांव सारको जाग्यार हाडटा.

आपा : आयच्या केसीचो निकाल आयकोन सामको खवळला आसतलो.

विनय : त्याच खातीर हांव तुमका पावपाक तुमच्या घरा आयलो. आपा आता तुमी मातशे सामाळून रावात. तो केन्हाय तुमचेर हमलो करुंग शकता आनी आपा तुमी राजूक एकलो भायर सोडू नाका.

आपा : तेजोच म्हाका चड भंय दिसता. तांका दया माया कायच ना, सुरो घेवनूच भोवता तो.

विनय : आनी थोड्या दिसांनी ताचोय बंदोबस्त करुया. पूण त्या म्हणसर मातशे शादूर रांवचे पडटलें, तो कितेंय करूं शकता.

आपा : त्या दिसा हे दोगजाण टायमार हांगा पावले म्हूण बरें जाले. नाजाल्यार त्याच दिस तो आमका दोगांकूय सोपयतलो आसलो. ते दोगूय आमगेर आयल्या आनी म्हाका मातसो आदार जाला.

विनय : पुण आपा ते दोगुय राजूक हांगा एकलो सांडून खंय गेले?

आपा : आसतले हांगाच खंय तरी. राजू ते दोगूय खंय गेले रे?

राजू : आपा ते दोगूय म्हाका म्हणपाक लागले खेळुया म्हूण आनी म्हज्या दोळयार पट्टी बांदून नाच जाले.

विनय : पळयले तुमी आपा, हांवे तुमका त्याच दिसा सांगलेले तुमच्या भोळयापणाचो सगळेच फायदो घेता. आयज राजूक कितेंय जाल्ले जाल्यार आमी कितें पळयतले आसले?

आपा : खरें तुजे! आता आमका फक्त देवाचेर भार दवरून दीस काडचे पडटले.

विनय : आपा हांगा येवन म्हाका खूब वेळ जालो. आई घराकडे वाट पळयता आसतली. येता हांव. कितेंय लागले जाल्यार सांगून धाड.

आपा : बरें, चल बरो करून (विनय वता). राजू तुका हांवे सांगलेले मरे घरांत कोण नासतना दार उगडे साणू नाका म्हूण.

राजू : आपा म्हाका कळुकूंच ना ते केन्हा गेले ते.

आपा : बरें, चल उठ आता आनी वचून तुज्या रूमांत बस. हांव रोखडोच तुका कितेंय तरी खावपाक घेवन येता चल उठ. (इतक्यान रंगा आनी ताजे साथीदार येता).

रंग्या : ये म्हाताऱ्या खंय चल म्हणटा तेका? राव आयज तुमका दोगांकूय वयर पावयता. तू कितें समजलो तू ती केस जिकलो म्हूण हांव तुका भियोन रावतलो. तुका हांवे पयलीच सांगलेले बरेभशेन म्हजे आयक आनी सगळे म्हाका दी म्हूण. इतके दिस तुमका दोगांयकूय पळोन काकूट येताली म्हूण वोगी रावतालो. पूण तू त्या आदोगादाच्या सांगण्यान चड उडपाक लागलो. आता तुका कोण वाचोंग येता तेच पळयता हांव.

आपा : राजू तू हांगा रावू नाका, तू वच माळयेर.

राजू : आपा म्हाका तांचो भय दिसता रे.

आपा : तू भियोनाका, हांव जितो आसासर तुका हात लावपाक दिवचोना. तू चल तुज्या रूमांत आनी दाराक खिळी घाल. वच बेगीन.

रंग्या : आपा कितको वेळ वाचयतलो ताका? आज तुमका वाचोंग कोण येवचोना. आयज ह्या घरान रक्ताचे पाट व्हावयतलो हांव. ये, हाड तेका धरुन, ताज्या बापायच्या फुड्यान कापून उडयता ताका. (एकलो आपाक धरता, दुसरो राजूक धरुन सकल हाडटा.)

आपा : रंग्या आयज हांव तूजेकडे म्हज्या जीवाची भीक मागचोना, पुण म्हज्या राजूक कांय करूं नाका.

रंग्या : आपा म्हाका खबर आसा, तुज्या पुताक मारलो जाल्यार तू आपुणूच मरतलो. आता उलय तुका पूत जाय काय घर? बेगीन सांग. ना जाल्यार तुज्या फुड्यांत कापता तेका. बरेभशेन ह्या पेपराचेर सायन कर ना जाल्यार.... (अशे म्हूण रंगा राजूचेर चाकू उबारता आनी हासता.)

आपा : नाका ताका मारू नाका रे. म्हाका मार पूण म्हज्या पुताक मारू नाका रे.

रंग्या : मारू नाका! तुजे हांव आयको? आयकता, पूण पयलीं त्या पेपराचेर सायन कर.

आपा : रंग्या हांव पाया पडटा तुज्या, ताका सोड रे.

रंग्या : पाया पडोन काय जावचेना. सायन कर.

आपा : आरे किद्याक आमच्या फाटीक लागला? किद्याक तू आमका असो त्रास दिता?

रंग्या : आपा तू त्या आदोगादाच्या सांगण्यान म्हाका टक्कर दिवपाक

उठलेलो. आता तुजी ही इश्टेट म्हाका मेळोव ना मेळोव तुमका दोगाकुय सोपयल्याबगर म्हाका चैन पडचोना. तुये ह्या रंगाक टक्कर दिल्या आता तुजा दोळयामुखार तुजा पुताक सोपयता, तुजान वाचोंग जाता जाल्यार वाचय. आयज तुका वाचोक कोण पावचोना. ये धर ताका, उडोया कापून.

आपा : रंगा नाका ताका मारुंग, तुका मारपाचो आसा जाल्यार म्हाका उडय मारुन आनी भागय तुजी तान.

रंग्या : इतके दिस म्हाका तुमची काकूट येताली पूण आता तुमका हांव सोडचोना.

आपा : रंग्या लक्षांत दवर केल्ल्या कर्माची केन्हा ना केन्हा तरी जाप दिवची पडटली तुका.

रंग्या : आरे हांव स्वताच्या आवय बापायक केन्हा भियोना अशा मनशाक तू भंय घालता.

आपा : ती तुजी चूक न्ही. तांका भिवपाक तुजी आवय बापूय कोण ते तरी तुका खंय खबर आसली?

रंग्या : आपा तोंड सांबाळून उलय.

आपा : ल्हानपणांत तुजेर बरे संस्कार जाल्ले जाल्यार तू आज असो आसचो नासलो.

रंग्या : पुरो कर तुजी ती बडबड ना जाल्यार जिब काडून हातांत दितलो.

आपा : म्हजो एकट्याचो आवाज बंद करून जर तुमी सुदारतले जाल्यार जिबूच किद्याक हांव स्वता म्हजे काळीज काडून दिता तुज्या हातार.

रंग्या : तितको तुका त्रास दिवचोना हांव, ये पळयता कितें? धर ताका घट,

आपा निमण्या वेळार कोणाक याद करता जाल्यार कर, या तुजा घराक लागून तु मरता तेच पळोन घे दोळे धापच्या पयली.

(चाकू काडून आपाक मारपाक फुडे वता. इतल्यान मन्या आनी चंद्र्या येता) आपा आयज तुका वाचोंग कोण येवचेना.

मन्या : ये सोड ताका ना जाल्यार मरपाक तयार राव.

रंग्या : आरे वा रे वा या रंग्याक ऑर्डर दिवपी कोण आयलो ह्या गावान?

चंद्र्या : आमी कोण ते तुका मागीर कळटले, पयली ताका सोड.

रंग्या : वा रे वा, आपा तू म्हण चालाख आसा मरे जिवाच्या भयान ह्या बोकडांक हाडून दवरल्या घरान.

मन्या : ये तोंड सांबाळून उलय. आपल्या गावांन कोले सुध्दा वाग जाता हे खबर आसा आमका.

रंग्या : वा रे वा आपा बरेच इमानी मरे तुजे हे पोसलेले कुत्रे.

आपा : रंग्या, एका इमानी कुत्र्याकसुध्दा मनीस आनी जनावरातलो फरक कळटा, पुण तू ताजापेक्षा पास्ट जालो.

रंग्या : ये खूब उलयलो ह्या पोरांच्या नेटार तु म्हाका शाणपणा शिकयता? मर आता (अशे म्हुण चाकू आपाचेर उबारता फाटल्यान मन्या पीस्तूल काडून रंगाचेर जोखता)

मन्या : रंगा परत एकदा विचार कर तुजो सुरो लागच्या पयली ह्या पिस्तोलाची गुळी मेंदवातल्यान आरपार वतली. (रंगा फाटी वळोन पळयता).

रंग्या : आरे वा रे वा बरीच तयारी केल्या मरे तुमी आं.

चंद्र्या : रंग्या चलूंग लाग हांगासरल्यान ना जाल्यार तुका उखलूपाक कोण जितो उरचो ना हांगा.

मन्या : आनी लक्षांत दवर फुडले फावटी येतना चार मनीस जास्त घेवन यो तुका उखलपाक.

रंग्या : ये आपा आयज तुका वाचयलो ह्या पोरांनी. पुण आनी कितके दीस वाचयतले तेच पळयतलो हांव. हांका खबर ना ह्या रंग्याक टक्कर दिवपी आजून कोण ना ह्या संवसारांत.

मन्या : रंग्या चुकलो तू उलोवपाक तुका टक्कर दिवपी आयज दोगजाण आसा हांगा. हाजाफुडे जर आपाचे वाटेक वचशीत जाल्यार तुजी धडगत ना म्हणून समज.

रंग्या : तुमी सोरपाच्या बिळांत हात घालता. आता तुमका मारल्याशिवाय म्हाका सूख मेळचेना.

चंद्र्या : रंग्या तुजापेक्षा कितल्येशेच विशारी सोरोप खेळयल्या आमी. आता बरे भशेन चलूंग लाग हांगासरल्यान ना जाल्यार हांगाच चिड्डून वडयता तुका.

रंग्या : बरें आसा आयज सोडटा तुमकां. पूण तुमी आता दीस मेजा तुमचे, हांव रोखडोच येतलो परत.

मन्या : आमीय वाट पळयता तुजी (रंगा तिडकीन वता).

चंद्र्या : आपा तुमका लागुंग ना न्ही?

आपा : म्हाका लागूना. पूण तुमी म्हाकालागून कित्याक दुस्मान जाले ताचे? सामको वायट तो केन्हा कितें करीत सांगपाक जायना.

मन्या : आपा तुमी आमची हुसको करू नाका, आमकां तो कांयच करुंक पावचोना.

चंद्र्या : पूण आपा तो तुमचे वाटेक कित्याक वता?

आपा : ताका म्हजे हे घर आनी म्हजो जागो जाय हॉटेल बांदपाक. पूण हांवे ताका सांगला हांव जितो आससर ताका कायच दिवचोना.

मन्या : आपा तुमी पुलीशेन किद्याक कागाळ दिना?

आपा : केल्ली एकदा, पूण कांय उपयोग जालोना. त्या मेल्याचे हात खूब वयर पावल्या. हांवे कागाळ केली म्हणून ताणे राजूचे आईक आनी राजूक मारपाक तांचेर गाडी घातली, तातून राजूची आई आमका सोडून गेली, तो धक्को बसोन राजू असो जालो. आयज तो शिकोन शिरविशेक लागतलो आसलो पूण त्या मेल्यान आमचो संवसार माड्डीलो.

चंद्र्या : पूण आज असो अचानक तूमचेर कसो हल्लो केलो ताणे?

आपा : त्या अपघाताच्या केसीचो निकाल आज आमचे वटेन लागलो. कोर्टान आमका लुकसान भरपाय म्हुण तीन लाख दिवपाची ऑर्डर दिली. ते आयकोन तो चवताळो आनी हांगा पावलो.

मन्या : आपा तुमी कांयच भियोनाका आमी हांगा आससर तो परत हांगा येवचोना.

आपा : म्हजो राजू जर सारको आसलो जाल्यार हांव कोणाकूच भिवचोना आसलो. पूण म्हाका एक समजूंग ना तुमचेकडे ते पिस्तोल कशें आयले, ते तुमच्या हातांत पळोन हांव सामको आबूज जालो (ते दोगूय गडबडता).

चंद्र्या : आपा ते पिस्तोल खरे न्ही, ते खेळपाचे, फकणाचें.

मन्या : आपा आमी हांगा परकी न्ही, तेका लागून आमचेर कोणय हमलो करुंग शकता म्हणोन ते आमी आमचेकडे दवरला.

चंद्र्या : आनी ते पीस्तोलाक पळोन तो रंगाय फटावलो आनी गेलो पळोन.

आपा : आरे तोच किद्याक हांव लेगीत फटावलो. हांव म्हणटा तुमचेकडे आनी कशें पिस्तोल आयले.

मन्या : आपा राजूक तुमी बरेशा दोतोराक किद्याक दाखयना?

आपा : सगळे देव दोतोर केले, पूण कांयच उपयोग जालोना. कोण सांगता थंय थंय गेलो.

चंद्र्या : पूण आपा दोतोर किदें म्हणटा?

आपा : तो म्हणटा जातलो सारको पूण वेळ लागतलो आनी त्याच आशेर हांव दिस काडटा.

मन्या : आपा हांवे खंय तरी वाचलेले अशा मनशाचेर तसोच प्रसंग जर परत दोळयामुखार आयलो जाल्यार तो सारको जावंग शकता.

चंद्र्या : तू म्हणटा तें खरें अशा वेळार तसोच प्रसंग परत तेजा दोळयामुखार हाडप म्हटल्यार तो जिवार खेळपाचो खेळ जातलो.

मन्या : तेज्याबगर आनी उपाय ना.

आपा : म्हजो राजू जर सारको जाता जाल्यार हांव किदेय करपाक तयार आसा. ताका लागून जीव सुध्दा दिवपाक तयार आसा, फक्त तो बरो जाल्यार पुरो.

मन्या : आपा तुमी कांयच भियोनाका. आमी सगळे मेळोन राजूक सारको करुयाच.

चंद्र्या : आपा आमी त्या रंगाकूय धडो शिकोया आनी राजुकूय सारको करुया.

आपा : बरे चल राजू तुज्या रूमांत वच आनी हांवय मात्सो भितर वता,

तुमी बसा उलयत.

मन्या : बरे आपा आमी हांगाच आसा तुमी कायच भियो नाका.

(राजू आपा भितर वता ते आपा गेलो काय ना ती खात्री करुन घेता)

चंद्र्या : मन्या, राजू बरो जाता जाल्यार आपा आपल्या सर्वस्वाचो त्याग करपाक तयार आसा.

मन्या : बरोबर तुजें आनी तेच संदीचो आमी फायदो घेवपाचो.

चंद्र्या : म्हणजे तुका किदें म्हणपाचे आसा?

मन्या : आयक! आमी आपाक सांगपाचे आमी तुजा राजूक सारको करता तुमी मदत करता जाल्यार.

चंद्र्या : आरे करता म्हणू किदें विचारता आपा एका पायार तयार आसा, फुडें उलय.

मन्या : आपाक आमी पटोन दिवया, ज्या प्रसंगाक लागून राजू असो जाला तसोच प्रसंग परत तेजा दोळयांमुखार आयलो जाल्यार राजू सारखो जातलो अशे आमका एका दोतोरान सांगला म्हणोन, पूण.......

चंद्र्या : पूण किदें?

मन्या : त्या खातीर तुमका तुमच्या जिवार खेळचे पडटलें.

चंद्र्या : म्हणजे तुका किदें म्हणपाचे आसा ते म्हाका कळूंग ना.

मन्या : आपाक सांगपाचे राजूच्या सगळयांत आवडत्या मनशाक आमी ताज्या दोळयामुखार मारपाचे नाटक करपाचे, तें पळोन राजू सारको जावपाक शकता.

चंद्र्या : म्हणजे तुका म्हणपाचे आसा आमी आपाक मारपाचे नाटक करपाचें.

मन्या : बरोबर तुजें आनी आपा हे गजालीक आमका संम्मती दितलो, तेजो आमी फायदो घेवपाचो.

चंद्र्या : म्हणजे कसो फायदो घेवपाचो म्हणटा तू?

मन्या : आमी आपाक थंयच सोपोवपाचो.

चंद्र्या : मन्या कितें उलयता तू हें?

मन्या : म्हजी उतरां आयकोन तू इतलो कित्याक भियेलो?

चंद्र्या : आरे पूण आमी आपाक मारपाचो म्हणजे?

मन्या : तू अशें उलयता जशें तुका हे काम नविनूच कशें, आरे असली कामा करुनूच आमी हांगा पावल्यात.

चंद्र्या : ते तुजें खरें रे, पूण जो मनिस आमका देवाचे रूप मानता ताकाच फटोवपाचो आमी?

मन्या : आमी ताका मारीना जाल्यार तो रंगा मारतलो ताका कोण आडायतलो?

चंद्र्या : तेंय तुजे खरे रे, पूण तू हाजेर परत विचार कर एकदा.

मन्या : हांवे सगळो विचार केला तू फकत म्हाका साथ दी.

चंद्र्या : आरे हांवे म्हजो जिवूच तुजेकडे दिला तुवें जाय तसो ताजो वापर करपाचो.

मन्या : मागीर आयक तर आपाक सध्या तीन लाख मेळ्ळया ते घेवन हांगासरल्यान पसार जावपाचे. हरशी म्हणू आमका केन्हा ना केन्हा वचुकूंच जाय.

चंद्र्या : आनी राजूचे कितें करपाचे?

मन्या : आयक आरे हरशी म्हणू तो कांयच उपयोगाचो ना. आमी पयली

रंगाक मेळपाचे ताका हे घर आनी आपालो जागो जाय, आपा जितो आससर तो ताका मेळचोना आमी ताका सांगुया, तुजे काम आमी करता आमका आमचो वाटो दी आनी राजूचे कितें करपाचे तें तू कर.

चंद्र्या : म्हणजे आपाक आमी फोटोवपाचो?

मन्या : चंद्र्या म्हाका दिसता तू आमचो धंदो विसरलो. आरे आमच्या धंद्यांत भावना, नाती, संबंद, दया-माया ह्या गोष्टीचो विचार केल्यार आमी खयंच पावचेना.

चंद्र्या : पूण तरी सुध्दा आनीक एक फावट विचार कर तू, आरे जो मनीस आमका आपल्या भुरग्याभशेन सांबाळटा अशा मनशाक फोटोवपाचो?

मन्या : चंद्र्या तू म्हाका सांग, आयज काल कोण कोणाक फटयना, स्वताच्या सख्या भावाक भाव फटयता, किद्याक तर तो भाव आपल्या भावाचेर विश्वासून रावता म्हणून एकमेकांच्या मोगांत पडलेली चलो चली स्वताच्या फायद्याक लागून वेळ पडल्यार आमी तोंडातल्यान जशे चिंगम चावोन चावोन उडयता तशे भायर मारता, दुकानदार आपल्या गिरायकाक फटयता, फुडारी वेचून येतगीर लोकांक फटयता जाल्यार आमी कसलो गुन्याव करता?

चंद्र्या : तेंय तुजे खरें आयज काल कोणचोच विस्वास दवरपाचो ना ह्या संवसारान.

मन्या : आनी आमी कितें हें काम पयले फावटी करता. तू कांयच विचार करू नाका हांव सांगता तशेच कर.

चंद्र्या : पुण आमचो हो प्लान कोणाक कळत जाल्यार मागीर कितें?

मन्या : कोणाक कळटलो? तुजा आनी म्हजा बगर दुसरो कोण आसा हांगा आनी आमी हांगा रावता हे त्या पसरकारा बगर कोणाकूच खबर ना (राजू येवन फाटल्यान रावता आयकता दोघांकूय खबर ना)

चंद्र्या : तशे पळोंग गेल्यार आमी जी कामा केल्या ते परस हे कांयच न्ही. इतकोच फरक पयली लुटले ते लोकाचो पैसो खावन मोठे जाल्ले पूण आपा तसो न्ही.

मन्या : हो कितें आनी दुसरो कोण कितें, आमका सगळे सारके आमका थोडेच हांगा कायमचे रावपाचे आसा.

चंद्र्या : मागीर ठरले तर आमच्या बगर ही गजाल कोणाकूच कळचीना.

राजू : कळली कळली म्हाका कळली.

चंद्र्या : आरे राजू तू केन्हा आयलो आनी कितें कळले म्हणता तू ?

राजू : हांव खंय गेल्लो तर येवपाक? हांव हांगाच लिपोन रावोन तुमचो गजाली आयकतालो. हांव सगलें सांगतलो आपाक (ते दोगूय भिता, दोगूय कुशीक वता).

चंद्र्या : हांवे तुका पयलीच सांगलेले असल्यो गजाली हांगा करपाच्यो ना म्हूण.

मन्या : आरे पूण म्हाका खंय खबर हो हांगा आसतलो म्हूण.

चंद्र्या : आता पडले ना त्रासान. आता हो आपाक वचोन सांगतलो आता कितें करपाचे तें तूच कर.

मन्या : हो ही गजाल आपाक सांगच्यापयली आमी हाजे तोंड बंद करुया.

चंद्र्या : म्हणजे तुका किदें म्हणपाचे आसा, हेका आमी..........

मन्या : तशे न्ही रे हेका आमी मात्सो चक्रोया चल. राजू आमी उलयताले ते किदें आयकले तुवें सांग मरे आमी तुजे फ्रेण्ड न्ही?

राजू : हांव ना हांव. तुमका कायच सांगचोना हांव सगले आपाकुच सांगतलो. बरे आसा म्हाका फटयता.

चंद्र्या : राजू तू आमचो दोस्त मरे आनी आमका सांगचोना, फ्रेण्डाक म्हूण कोण लिपोन दवरता?

राजू : फ्रेण्ड कसले, फ्रेण्ड केन्हा दोळयार पट्टी बांदून पळोन वता?

मन्या : आता आमी पळचे ना रे, आमी तुजाबरोबर खेळटले तेन्हा आमका काम आसले न्ही, म्हूण आमी गेले, न्ही रे चंद्र्या?

चंद्र्या : हय तर आमच्या राजूक तसो आमी फटयता?

राजू : म्हाका न्ही जाल्यार कोणाक आपाक फटयता? (दोघूय भियेता.)

मन्या : चंद्र्या म्हाका दिसता हेणे सगळे आयकले आता कितें करुया? (दोगूय विचार करता)

राजू : आता आनी कसलो विचार करता?

चंद्र्या : आ! आमी विचार करता आता कसलो खेळ खेळोया.

मन्या : ये राजू तूच सांग मरे आमी तुजे सगळे आयकता आमी आता किदें करुया?

राजू : हांव सांगू, हांवे सांगलेले तुमी आयकतले मरे? चल तर म्हाका घोड्याचेर बसपाक जाय म्हाका घोड्यार बसया.

चंद्र्या : घोड्यार हांगा आनी खंयचे घोडे मेळटले, हांगा सगली गाढवां.

राजू : हांव आपाक आपयता तर, आपाक खबर आसतली घोडे खंय

मेळटा ते.

मन्या : आरे नाका नाका, आपाक आनी किद्याक त्रास दिता वोगीच? आमी आसा न्ही रे.

राजू : आरे हय मरे म्हाका खबरूच ना मरे आमच्या घरांतूच घोडे आसा म्हूण.

चंद्र्या : आ आमी घोडे?

राजू : कोण तर तुमी गाढव? हांव आपाक विचारता आं.

मन्या : नाका नाका आमीच ते गाढव.

चंद्र्या : आरे किदें उलयता तू गाढव नू घोडे.

मन्या : तेंच तें घोडे.

राजू : चल तर म्हाका रावंड मारून हाडा. एकलो घोडो जा आनी दुसरो घोड्याचो मालक.

चंद्र्या : ये आता जा घोडो, आता आमी पडले त्रासांत.

मन्या : आरे पूण हांव घोडो जांव?

राजू : बेगीन यो ना जाल्यार गाढव जांवचे पडटले सांगून दवरता तुमका.

मन्या : नाका रे बाबा घोडो परवडलो, गाढव नाका.

राजू : चल रे बेगीन (मन्या घोडो जाता राजू ताजे फाटीर बसता) चल मेरे घोडे टीक टीक टीक चल मेरे घोडे टीक टीक टीक.

मन्या : आवय गे आरे पुरो मरे आता.

राजू : ये तुजा घोड्याक सांग म्हाका आनी एक रांवड मारून हाड म्हूण.

चंद्र्या : ये चल रे महाराजाक आनी एक रांवड मारुन हाड.

राजू : चल मेरे घोडे टीक टीक टीक चल मेरे घोडे टीक टीक टीक.

(मन्या मातसो फुडे वचोन पडटा) आरे घोडो पडलो मरे तुजो.

चंद्र्या : हो घोडो मेलो, ताजेर हिसपाभायर लोड पडलो.

राजू : चल तर दुसरे किदें करुया.

चंद्र्या : आता आनी दुसरे कितें, घोडो मेलो.

राजू : तुजो घोडो मरुंक ना तो कवना करता, हांव उठयता पळय ताका कसो तो, आपा मातसो भायर यो रे (मन्या उठता).

मन्या : आपाक आफोव नाका घोडो जितो जालो.

राजू : पूण आता म्हाका घोडो नाका.

चंद्र्या : घोडो नाका? आनी कितें जाय तर तुका?

राजू : म्हजे थोडे शेत नांगरपाचे आसा तेकालागून म्हाका जोताक दोन बैल जाय.

चंद्र्या : आं! आता बैल? मेलो.

राजू : शेत नांगरुकना जाल्यार आपा म्हाका उलयतलो, आता येतलो तो शेतान. खंय पावलो काय?

मन्या : नाका रे बाबा जाता आमी बैल. चल रे चंद्र्या.

(दोगूय बैल जाता. राजू फाटल्यान रावता)

राजू : हीर्र हय हय हीर्र चल चल हीर्र हीर्र (दोन रावंड मारता)

चंद्र्या : आरे जाले मरे नांगरून, आता सोड मरे बैलांक.

राजू : सोडटा चला उदक पिया, तानेल्या आसतले.

मन्या : आवय गे मेलो सामको, नाका रे बाबा.

राजू : नाका किद्याक? फुडल्या जल्माक देव तुमका बैलूच करतलो.

मन्या : हांव सांगतलो बैल नाका म्हाका घोडो कर.

राजू : घोडो! चल तर केलो तुका घोडो. आता तुका कोण करूं रे? तुकाय घोडोच करता ना जाल्यार तुमची जोडी तुट्टली न्ही, चल तुकांय केलो घोडो.

मन्या : (हळूच चंद्र्याक) हेच संदीचो आमी फायदो घेवया चल यो म्हजा फाटल्यान.

राजू : आरे खंय वता तुमी?

चंद्र्या : घोडे आता सामके थकल्या. आता आमका थोडी विसव जाय आमी वता भितर. (इतल्यान आपा येता)

आपा : आरे किदें चल्ला तुमचें? राजू तांका किद्याक त्रास दिता?

राजू : आपा हांव तांका त्रास दिना. आमी खेळटाले न्ही रे. तुमीच विचारा तांका.

मन्या : हय आपा, आमी तिगूय खेळताले.

आपा : बरे, चल आता रुमान वसून बस तुज्या. (राजू वता)

चंद्र्या : आपा ह्या मन्याक तुमका कितें सांगपाचे आसले, ये सांग आता.

आपा : सांग मरे किदें म्हणटा?

मन्या : आपा हांवे एका मुंबयच्या डॉक्टराक फोनार विचारलेले राजूविशी. ते म्हणटाले एक उपाय आसा म्हूण.

आपा : खऱ्यानीच उपाय आसा, म्हजो राजू सारको जावपाक शकता? (इतल्यान रंगा फाटल्यान येवन आयकता).

मन्या : हय! पूण तातूंत तुमच्या जिवाक भंय आसा.

आपा : म्हजो राजू सारको जाता जाल्यार हांव म्हजो जीवलेगीत दिवपाक तयार आसा. तू सांग हांव कितें करूं?

मन्या : आपा दोतोराचे अशे म्हणणे आसा की अशा वेळार ज्या गजालीक लागून राजू असो जाला तसोच प्रसंग परत ताज्या दोळयांमुखार आयलो जाल्यार राजू सारको जावपाक शकता.

आपा : पूण ते आता कशें शक्य आसा. राजूची आई तर तेन्नाच गेली मागीर आता कशें जातलें?

मन्या : आपा राजूक सगळयात आवडटी ताजी आई आसली, तिज्या उपरांत तुमी. समजा असोच एखादो प्रसंग तुमचेर आयलो जाल्यार तो पळोन राजू सारको जावपाक शकता.

आपा : हांव तुमी सांगता ते करपाक तयार आसा.

मन्या : आपा सगळयान पयली तुमी आमका बरोन दिया हो प्रसंग तुमच्या जिवार आयलो जाल्यार आमका जबाबदार धरपाचे ना.

आपा : हांव दिता बरोन. फुडे किदें करपाचे?

मन्या : आमी दोगूय बुरखो घालून येता आनी तुमचेर हल्लो करता. राजू त्या रंगाच्या मनशाक भिता. आमी ताका आमी रंगाचे मनीस म्हूण सांगता.

चंद्र्या : ताज्या दोळयामुखार आमी तुमका मारता कशे दाखयता. ते पळोन राजू सारको जावपाक शकता. तुमची तयारी आसा जाल्यार?

आपा : हांव आसा तयार, तुमी करात तयारी.

मन्या : आपा त्यावेळार तुमका किदेंय जावपाक शकता.

चंद्र्या : म्हणजे मन्याक अशे म्हणपाचे आसा की तो चाकू तुमका लागून तुमका किदेंय जावपाक शकता.

आपा : आयले म्हज्या लक्षान. हांव म्हज्या राजू खातिरूच जगता. तो जर

बरो जाता जाल्यार हांव किदेंय करपाक तयार आसा.

मन्या : तशे जाल्यार ठरले तर आमी फाल्याच हे काम करुया.

आपा : तुमी म्हणता तशेंच जावनी. चला तर लागुया तयारीक.

(माचयेर हळुहळु काळोख जाता. काय वेळान उजवाड जाता).

दीस दुसरो

(आपा येता आनी पासयो मारता. इतल्यान मन्या आनी चंद्र्या बुरखो घेवन येता.....)

मन्या : आपा तुमी तुमचो विचार पक्को केला?

आपा : एकदा घेतिल्लो निर्णय हांव परत बदलिना.

चंद्र्या : आपा तुमी बरोन हाडला सांगलेले तें?

आपा : हय, घेयात हाजेर हांवे बरयला म्हाका किदेंय जालें जाल्यार तुमकां जबाबदार धरचें न्ही.

मन्या : आपा आमी तुमचेकडल्यान बरोन घेतला म्हणून तुमका वायट दिसले?

आपा : ना म्हज्या राजूक लागून हांव किदेंय करपाक तयार आसा.

मन्या : आपा आता आमी भायर वता. तुमी राजूक आफोवन हाडा तो येतगीर ताका एकलोच दवरुन तुमी भितर वचा फुडले आमी करता. (दोगूय भायर वतात).

आपा : बरें आसा चला तुमी हांव आफयता ताका (ते वता) राजू ये राजू मातसो भायर यो पळोया.

राजू : आपा कितें जालें रे, कित्याक उलो मारतालो?

आपा : कितें करतालो?

राजू : कांय ना आपा, म्हाका थंय एकलोच बसून कंटाळो येता हांव हांगा बसोन खेळों?

आपा : कोणावांगडा खेळटलो? ते दोगूय ना घरान.

राजू : ते नासू, तू आसा तो तू यो मरे.

आपा : आरे म्हाका कांमा ना घरांत?

राजू : यो रे मात्सो आपा.

आपा : हें पळय तू एकलोच खेळ ना जाल्यार भितर वचून बस हांव मात्सो भितर वता.

राजू : चल हांव उलयना तुजेकडे, म्हजावांगडा केन्नाच येना तू खेळपाक.

आपा : म्हजे काम सोपयता आनी येता रोखडोच. (आपा वता).

(काय वेळान रंग्या आनी ताचो साथीदार येता, तोंडार बुरखो घातला).

रंग्या : आज बरो गावलो, आज हेका सोडपाचो ना ये धर ताका.

राजू : आं! कोण तुमी, म्हाका किद्याक धरता? सोडा म्हाका सोडात.

साथीदार : ये बोवाळ करपाचो ना, तुजो तो जान्टेलो बापूय खंय गेलो?

रंग्या : आसा मरे काय मेलो बीन? आसा जाल्यार आफय भायर ताका. आज ताका जितो दवरिना, खंय आसा तो? आफय ताका भायर.

राजू : हांव आफोवचो ना. चलूंग लागा हांगा सल्ले.

साथीदार : कितें म्हणटा, आमका चालूंक लाग म्हणतलो? (अशे म्हणून राजूचेर खोट मारता राजू पडटा).

राजू : आपा यो रे भायर, पळय हे म्हाका मारता, यो रे आपा बेगीन.

आपा : (आपा भायर येता) आरे कितें करता तुमी, सोडात ताका आनी तुमी कोण? अशे आमगेर कित्याक आयल्या?

रंग्या : आमी कोण, कित्याक आयल्या तें आतांच कळटले तुका (अशें म्हणून दोगुय बुरखो काडटा).

आपा : कोण रंगा, तू? तू हांगा कसो?

रंग्या : तुका कोण दिसले, ते तुजे पोसलेले कुत्रे?

आपा : रंग्या तोंड सांबाळून उलय, तांचेविशीं!

रंग्या : अरे वा! तुका इतलो पुळको त्या चोरांचो?

आपा : रंग्या ते दोगूय म्हाका म्हज्या पुतासमान आसा, तांचेविशीं वायट उलयल्ले म्हाका आवडूचेना.

रंग्या : आपा तुज्या सारको मनीस हांवे केन्नाच पळोंग नासलो, आरे लोक हांगा स्वतःच्या घरच्यांचेर विश्वास दवरीना आनी तु त्या परक्याचे आयकोन तांची साथ दिवपाक तयार जालो? तुका खबर आसा तुका मारपाचो प्लान आसलो तांचो, आपा तू सामको भोळो आनी तुज्या ह्या भोळयापणाचो सगळयांनी आयज मेरेन फायदो घेतलो.

आपा : ना! तु सांगता तशें केन्नाच जावचेना, ते तशे केन्नाच म्हाका फटोवचें ना, तू फट उलयता आत्ता येतले तें.

रंग्या : आपा आता ते आनी हांगा येवचेना, म्हज्या मनशांनी तांका मारून मारून जिते दवरल्या काय कोण जाणा.

आपा : म्हणजे? पाडपडिल्ल्या तांका तुवें कितें केला?

रंग्या : आपा त्या दोगांयचों प्लान आसलो, तुमका मारून हें घर आनी तुमच्या राजूक म्हजेकडे सोपोवपाचो आनी तुमका मेळील्ले तीन लाख घेवन पळ काडपाचो.

आपा : ना, म्हाका तुजें खरें दिसना.

रंग्या : तशें जाल्यार वाट पळयत बस तांची. पूण ताचे पयलीं म्हजे कितें करता ते सांग, तुका मारतलो म्हणपाक म्हाका तुजी काकूट येता, तेन्हा बरेभशेन ह्या पेपरांचेर सायन कर, ना जाल्यार तुज्या ह्या

पुताक मारता आयज. (अशे म्हणून राजूक धरता).

आपा : रंग्या सोड ताका, तुका मारपाचो आसल्यार म्हाका मार.

रंग्या : आपा आयज तुका वाचोंग कोण येवचेना, सांग करता काय ना सायन.

आपा : ना करचो, सोड ताका. (रंग्याकडे आपा झटापट करता रंग्या आपाक धुकलुन उडयता, आपा पडटा, राजू आपा म्हणत धावता, रंग्या ताका आडोन मारता, आनी धुकलून वडयता, तो पडटा आनी ताजी तकली सपणाचेर आपटता, आपा उठटा आनी राजूकडे वता, रंग्या आडयता).

रंग्या : तू खंय वता? कर पयली सायन करता काय ना?

आपा : रंगा पाया पडटा तुज्या, नाका रे अशे करुंग.

रंग्या : आता तुजे हांव कांयच आयकुचोना, कर पयली सायन (आपा सायन करता).

आपा : घे भागय तुजी तान, आनी चलूंग लाग हांगासरल्यान.

रंग्या : आता खंय वच म्हणटा, तुका जितो दवरून? मर आतां. (अशें म्हणून चाकू काडटा आपाक मारपाक इतक्यान मन्या आनी चंद्र्या येता.)

मन्या : रंग्या सोड आपाक. (चौगांयमदी झटापट जाता आनी शेवटा मन्या आनी चंद्र्या रंग्याक आनी ताच्या साथीदारांक मारता. आपा उठोन राजूकडे वता).

चंद्रया : मन्या पळयता कितें? घे संद मेळ्ळया ती, वडय कापून, कोणाक कसलोंच दुबाव येवपाना, कितें मेळटा ते घेवया आनी पळोया

हांगासरल्यान.

आपा : आरे.......... आरे........ पळयात रे म्हज्या राजूक कितें जालें तें?

चंद्र्या : कांय जावना ताका, तकली सोपणार आपटून तो बेशुद्ध पडला, मन्या कितें पळयता? हो चान्स सोडू नाका, सगळयांक खबर आसा हो रंगा आपाचो काटो काडूंक सोदतालो म्हुण, कोणाकूच कांयच कळचेना चल उडय तांका मारून. आरे असो पळयत कितें रावला? मार ताका (अशें म्हणून मन्याक हालयता, मन्या ताका धुकलता).

मन्या : ना, म्हज्यान जांवचेना हांव करचो ना, म्हाका नाका तें, हांव करचो ना, म्हज्यान जायना.

चंद्र्या : तूं पिसो जाला, हो चान्स परत मेळचोना आनी फाल्या होच सांगतलो आमी रंग्याक मारलो म्हूण. मागीर आमी सोपले, एकदा भितर पडले जाल्यार परत भायर सरपाक मेळचेना, इतके व्हड गुन्यांव केल्या आमी.

मन्या : ना, हांव तांचो विस्वासघात करचो ना, इतके दीस जें केलें तें पुरो आतां. आरे हो मनीस आपल्या भुरग्याभशेन आमका मानता, आमचे प्रत्येक गोष्टीचेर विश्वास दवरता, अशा ह्या साध्या भोळया मनशाक मारूं हांव, ना म्हजे मन म्हाका हाजी संमती दिना.

चंद्र्या : मन्या तू विसरता सगलें. आमी कितें ठरयल्ले तें, याद ना तुका.

आपा : आरे कितें उलयता तुमी, म्हाका तुमचे कांयच कळना?

मन्या : चंद्र्या पुरो आता हो खेळ, आरे हो मनीस जगलो जाल्यार आमका कसलीच लुकसानी जांवचेना, आज मेरेन आमी जायत्या लोकांक

मारले, फटयलें, पूण कितें मेळ्ळे आमकां? पैसो भांगर मेळ्ळे. पूण ते खंय आसा आमचेकडेन? कितें केलें आमी तांचे कितके सुख घेतलें आमी त्या पैशांनी? खुबशो वस्तू विकत घेतल्यो, पुण मनिसपण घेंवग शकले ना, हांवे थारायलां आता हे खंय तरी थांबोक जाय.

चंद्र्या : मन्या आरे कितें उलयता तू हें?

मन्या : इतके दिसांनी आयज हांव खरें उलयला, तुका पटना जाल्यार तू तुजें वटेन चल, हांव म्हजे वाटेन वता.

चंद्र्या : खरेंच तू खूब बदललो, आज तुजी आनी म्हजी, अश्यो दोन वाटो केल्यो तुवें, आरे तुका सोडून आनी हांव खंय वतलो, तुवें घेतलां तो निर्णय योग्य मानुन हांव तुज्या बरोबर येतलो.

मन्या : चल तर आमी हांगासून अशे वाटेन या ज्या वाटेर आमकां लोकांची सेवा करपाक मेळटली.

चंद्र्या : हेज्या फुडे सगली वायट कामां सोडूया, आनी बरे मनीस जावया, मेळटा ते काम करून अभिमानान जगोया.

मन्या : चल तू आमची बॅगा घेवन यो.

आपा : आरे कितें उलयता तुमी, कितें करचो ना म्हणता तूं? खंय या म्हणटा, हें पळया हांवे तुमी सांगलेले तशेंच केले, पूण हो रंग्या खंयच्यान आयलो म्हाका खबर ना, तुमी म्हणतालें म्हजो राजू सारको जातलो, पूण तेका न पळयता तुमचे कितें चल्ला हें? पळयात रे ताका कितें जालां तें, तुमच्या डॉक्टरान फुडें कितें करपाचें सांगलां? आरे कितें तरी उलयात रे, म्हज्या राजूक वाचयात रे आनी हें कितें ही बॅगा घेवन तुमी खंय वता?

मन्या : आपा आमका माफ करात. आमी तुमचे गुन्यावकारी जावन आसा. आमी तुमचेकडेन फट उलयले.

चंद्र्या : तुमी दिता ती ख्यास्त भोगपाक आमी तयार आसा.

आपा : किदें उलयता तुमी, तुमी कसलो गुन्याव केला? तुमी तर म्हाका मदत करताले.

मन्या : आमी तुमचो गैर फायदो घेतलो, तुमच्या ह्या घरांत आमी वायट विचारांनी रावताले.

चंद्र्या : पूण आयज आमची चूक आमका कळून आयल्या, आमका माफ करात.

मन्या : आमी तुमका फटोवपाच्या हेतून हांगा रावताले आपा तुमी समजता तशें आमी ना, आमी खुप वायट मनीस आसा.

चंद्र्या : पूण आयज आमका आमची चूक कळून आयल्या, हेजाफुडें आमी सगळी वायट कामा सोडून दितलें आनी बरें जावपाचो प्रयत्न करतले.

आपा : आरे पूण तुमी अशें केला तरी कितें?

(भायरसून माया येता)

माया : हांव सांगता तुमका हेंच्यानी कितें केलां तें, आपा तुमी खुप भोळे आनी याच भोळेपणाचो ह्या दोगांनी फायदो घेतलो.

आपा : तू कोण आनी तू हांका कशें वळखता?

माया : हांव माया! स्पेशल ड्यूटी पुलीस ऑफिसर, हांव हांच्या फाटल्यान आसले, हांका सोदीत हाव हांगा पावले.

आपा : तुमी पुलीस ऑफिसर! बरें जालें तुमी हांगा आयले ते, हें पळयात

हो रंग्या, आनी हो ताजो साथिदार, हांका हांवे मारल्या, हें सदांच म्हाका सतायतालें, म्हूण आयज हांवे हांका मारले.

माया : पळयलें तुमी ह्या मनश्याचो प्रामाणिकपणा? तुमचो गुन्यांव हे आपल्याचेर घेता, किद्याक? कोण तुमी हांचे?

आपा : हे पळया तुमचो गैरसमज जाता, हांव खरेंच सांगता हे आत्तां आयल्या, हांचो कांयच हात ना तातून.

माया : आपा ह्या एका गुन्यावातल्यान तुमी हांची सुटका करतलें, पूण हांच्यानी केल्ल्या बाकीच्या गुन्यावाचे किदें, ते कोण घेतलो? आपा हांची हांवे सगळी चवकशी केल्या, आता कोणुच हांका वाचोंग शकना.

आपा : म्हाका दिसता तुमचो किदें तरी गैरसमज जाता, ह्या दोघांयकूय हांव सारको वळखता, ते कसल्याच भानगडींत ना.

माया : सुरवातीक म्हाकाय तशेंच दिसताले, पूण त्या दिसा तुमी नासतना हांव हांगा आयले, आनी राजूचे मदतीन हांवे हांचे सामान तपासले, आनी सगलें सत्य भायर आयले.

आपा : अशें केला तरी कितें हांच्यानी?

माया : आपा तुमका हांचे खरें रूप खबर ना, ते हांव सांगता, हें दोगूय मुंबय रावून ल्हान व्हड चोरयो करताले, एक दिस हांच्यानी एका व्यापाऱ्याक मारून, ताजी धन दौलत घेवन पळ काडलो, आयज हांगा फाल्या थंय अशें करीत हे गोंयान आयले.

आपा : मन्या, चंद्र्या हें कितें सांगता ते खरें?

मन्या : हय आपा! सगले खरे आमी दोगूय शिकोन काम नासून बेकार

आसले, वयता थंय वळख ना जाल्यार पैसो दिता तेका काम मेळटा, आमी खूब भोवले, जायते प्रयत्न केले, पूण कोणीच आमका काम दिलेना.

**चंद्र्या** : एक दिस धनिकलाल नावाचो एक व्यापारी, आमकां काम दिता म्हणून सांगून ताज्या घरा घेवन गेलो.

**मन्या** : आनी ताणे आमकां ताज्या दोन नंबराच्या कामाक लायले, आमच्या मनात नासतना आमी थंय थोडे दीस काम केले.

**चंद्र्या** : आनी एक दीस संद सादून पळपाचो प्रयत्न केलो.

**मन्या** : पूण तो व्यापारी आमच्या आडवो आयलो, म्हणून आमी ताका मारुन ताणे लोकांक लुबाडून केल्लो पैसो, घेवन पळ काडलो.

**चंद्र्या** : पुलीस आमकां सोदून काडटले म्हणून आमी एका जाग्यार न रावता हांगा थंय भोवत रावले, हांगा येतगीर आमचे दोळे तुमच्या घराचेर, आणि तुमका मेळील्ल्या पैशाचेर गेलो.

**मन्या** : मागीर आमी प्लान केलो, तुमका मारून सगले घेवन पळोन वचपाचे, पूण तुमी आमच्या भितरलो मनीस जागो केलो, आमी तुमची माफी मागपाचे लायकीचे ना, पूण तरीसुध्दा व्हड मनान आमकां माफ करात, परत आमी असली कामा करचेना.

**चंद्र्या** : आपा, आमका एक सुदारपाचो चान्स दियात.

**आपा** : तुमका तुमची चुक कळून आयली, तातूनच सगलें आयलें, म्हजो आशिर्वाद तुमकां सदांच आसतलो, जी ख्यास्त मेळटा, ती भोगून परत हांगा येयात, हांव तुमची वाट पळयतलो, आज मेरेन म्हाका एकूच पूत आसलो, पूण तुमच्या रुपान देवान म्हाका आनी दोन

पुत धाडले.

माया : पळयले तुमी, हे कितल्या व्हड काळजाचे मनीस ते, ह्या मनशाक तुमी फोटोवपाचे चित्ताले.

मन्या : आमची चूक आमका मान्य आसा, चलात तुमी तुमचे काम करात.

दोघूय : आपा येता आमी. (आपाच्या पाया पडटात).

आपा : एकुच गजाल लक्षान दवरात, जितके तुमी दुसऱ्याचे बरें करतले, तितकेच तुमचे बरें जातलें, चलात हांव तुमची वाट पळयतलो.

माया : म्हजे परीन हांव तुमका उण्यांत उणीं ख्यास्त जातली असो प्रयत्न करतलें. (तीं वचपाक वळटा).

राजू : (तकलेर हात धरुन उठटा, रगत येता) आपा कितें जालें रे? कसलो बोवाळ चल्ला आनी हे कोण आयल्या आनी म्हजी तकली कशी फुटली रे? खूब दुखता मरे.

आपा : राजू, तू जालो सारको, म्हजो राजू जालो सारको, मन्या चंद्र्या तुमच्या प्रयत्नाक यश आयलें, म्हजो राजू सारको जालो.

राजू : सारको जालो, म्हणजे? म्हाका कितें जाल्ले तर?

आपा : देवा, आयज तुवें तुजी सासाय दाखयली, व्हडले व्हडले दोतोर करुंक शकलेना ते आयज ह्या दोगांय खातीर जालें, या दोगांयनी कितकीय वायट कामा करूं, पूण म्हाका हे दोघूय देवाच्या रुपान पावल्या. खरेंच आज म्हज्या जिवीतांतलो खुप खोशेचो दीस!

माया : आपा, आयज मेरेन तुमी सगळयांक आधार दिलो, म्हणून आयज देवान हे तीघ पुत तुजी सेवा करपाक तुका दिले.

मन्या : आपा, ह्या जल्मान आमी तजे पूत जावन तुजी सेवा करुंक शकलेना

पूण फुडल्या जल्मान तरी तुज्याच घरांत येवन तुजी सेवा करपाक मेळची असो आमका आशिर्वाद दियात.

माया : आपा, माणुसकीच्या नदरेन पळयत जाल्यार हांचे गुन्यांव माफ करूं येता. पूण न्यायाच्या नदरेन हे गुन्यांवकारी ठरता. म्हणून म्हाका हांका म्हजे बरोबर व्हरचे पडटले.

आपा : जें तुजें कर्तव्य आसा ते तूं कर. पूण सदांच एक गोष्ट मतींत दवरात. देवान जे आमच्या अदृश्टान बरयलां तें आमकां भोगूंकूच जाय. ते तुमका आमका कोणाकूंच चुकुंगना. (नाटक सोपता).

।। अंक दुसरो सोपता ।।



## दोन उतरां...

हांव अज्ञानाच्या काळखांत भटकत आसताना म्हजेर ज्ञानाच्या उजवाडाची किरणां घालून म्हाका प्रकाशमान करपी प्रां. प्रकाश पर्येकार, श्री रामनाथ गावडे, प्रां. प्रकाश वजरीकर आनी म्हज्या पुस्तकाची अक्षरा जुळोन सगळ्या पावंड्यार म्हाका मदत करपी शर्मिला नाईक आनी पुस्तकाचे मुखावयलें चित्र काडपी कपील म्हार्दोळकर तशेच म्हजे सगले इश्ट, म्हजा घरांतली सगळी ल्हान-व्हड ह्या सगल्यांचें म्हाका सदांच सहकार्य मेळ्ळा आनी फुडेंय तें अशेंच मेळटलें अशी आस बाळगून म्हजी दोन उतरां सोपयता.

आजमेरेन बरयलां

| | | |
|---|---|---|
| १) | अद्रुश्ट | नाटक (उजवाडाक आयले) |
| २) | मोगरेचे कळे | कथा संग्रह (उजवाडाक येवपाचे आसा) |
| ३) | जावयाची करामत | नाटक (उजवाडाक येवपाचे आसा) |

विजेश जयवंत सावंत